बालसाहित्य प्रकाशन येवजण



# आटकुळें - पिटकुळें

(लोक काणयो)

अभयकुमार वेलींगकार



गोवा कोंकणी अकादेमी

# आटकुळें-पिटकुळें

(लोक काणयो)

बरोवपी :
**अभयकुमार वेलींगकार**

© प्रकाशन क्र. : २७

गोवा कोंकणी अकादेमी

उजवाडावपी :
शरद दळवी
सचीव,
गोवा कोंकणी अकादेमी, पर्वरी-गोंय.

छापपी :
सम्राट प्रिंटर्स,
बाणस्तारी, गोंय.

मुखचित्र आनी सजावट :
संदेश कालेकार

पयली आवृत्ती : १९९८

मोल : रु. २०/-

# ATKULEM-PITKULEM

(FOLK TALES)

WRITER :
**ABHAYKUMAR VELINGKAR**

© PUBLICATION No. 27

**GOA KONKANI AKADEMI**

**PUBLISHER :**
SHARAD DALVI,
Secretary,
Goa Konkani Akademi, Porvorim, Goa.

**PRINTER :**
SAMRAT PRINTERS,
Banastarim, Goa.

**COVER & DESIGN :**
SANDESH KALEKAR

FIRST EDITION : 1998

**PRICE : Rs. 20/-**

# मां डा व ळ

# आटकुळें - पिटकुळें

एका गांवांत दोन भयणी रावताल्यो. एकलेचें नांव आसलें आटकुळें आनी दुसरेचें नांव आसलें पिटकुळें. दोगूय भयणी पळोवंक रुपेस्त आनी सभावान गुणेस्त आसल्यो.

दिसभर त्यो कोणाचें जावं कोणाचें काम करीत आसताल्यो. कसलेंय काम करतना तांकां पदां म्हणपाची आवड आसली. तांचो आवाजूय बरो आशिल्ल्यान तीं म्हण्टा तीं पदां लोकांक आयकन दिसतालीं आनी पदां म्हणटना काम केन्ना सोंपलें तेंच आटकुळयाक - पिटकुळयाक कळनासलें.

घरांत सान्न मारपाची जाली तर सान्न हातांत घेवन घर नितळ नितळ करतां करतां तीं म्हणटालीं ,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

सारण मारुंया

आनी सोयरो कोणूय येत तर

बसोवन घेवुंया.

पेज वा शीत रांदचें जालें वा हेर कितेंय रान्नीवेलें काम करचें जालें म्हणजे तीं म्हणटालीं,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

चूल पेटोवंया

दारांत कोण येता ताका

आदनांत घालुंया.

जो कोण दारांत येता ताका बसोवन घेवन जेवण - खाण दिवचें आनी ताची सेवा करची हो तांचो हेत आसतालो.

घरांतलीं कामां जातकूच आनी गांवच्या लोकांचीं कामां सरलीं म्हणजे सांजे मायत्याक तीं दोगांय लाकूड - बडी वा भाजी बी हाडूंक गांवा शेजारच्या दोंगरार वतालीं.

आपणांक जाय तितली भाजी खुटप आनी लाकडांचो एक भोरो घेवन काळोख जावंचे

पयली दोंगरावयल्यान घरा येवप हो तांचो सदचो वावर आसलो.

ह्या दोंगरार गच्च बरें रान आसलें आनी ह्या रानांत एक वाग रावतालो. रात जाली की वाग आपणालें सावज सोदूंक भायर सरतालो. हाका लागून काळोख जातकूच ह्या रानांत वा रानालागसार कोणूच राव नासले. आटकुळें आनी पिटकुळें रानांत भाजी खुटूंक बसलीं की एक पद म्हणटालीं,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

भाजी खुटुंया

वागमाम येयत तर पळोन वचोंया

भाजी खुटून जातगीर तीं दोगांय लाकडां कापतालीं. आनी लाकडां कापतना म्हणटालीं,

कोयतुल्यांनी कुराडींनी

लाकडां कापुंया

वागमाम येयत तर

धांवडावन घालुंया

वागमामाक धांवडावन घालूंक तांचेलागीं कोयत्यो - कुराडी आसताल्यो. तांच्या बळग्यार तीं वागाक धांवडावचेलें पद म्हणटालीं तरी तांची नदर मात हेवटेन तेवटेन वताली. वाग खंयच्यानूय येत तर कशें धांवन वचप हाचोच तीं विचार करतालीं.

आनी एक दीस खऱ्यानीच वाग तांचे मुखार येवन उबो रावलो. ताचें अशें जालें, आटकुळयाक - पिटकुळयाक एक दीस सान्नां खायन दिसलीं. दोगांयनी सान्नांची तयारी केली आनी लाकडां हाडूंक म्हणून तीं रानांत गेलीं. सान्नांची तयारी करतासर तांकां वेळ जाल्लो. तातूंत सान्नां करूंक चड लाकडां जाय म्हणून तीं कापतासर इल्लो अदीकच उशीर जालो. इल्लो इल्लो काळोख जावंक लागिल्लो आनी आटकुळें - पिटकुळें पद म्हणत लाकडां कापतालीं,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

लाकडां कापुंया

वागमाम येयत तर

पळोन वचोंया

कोयतुल्यांनी कुराडींनी



लाँकडां कापुंया

वागमाम येयत तर, धांवडावन घालुंया

लाकडां व्हरून आमी

सान्नां करुंया

.वागमाम येयलो तर

खावंक घालुंया.

म्हणटां म्हणटां काळोख जालो आनी वागमाम केन्ना येवन म्हऱ्यांत उबो रावलो तें तांकां कळ्ळेंच ना. आनी जेन्ना तीं मारिल्लीं लाकडां पुंजावन भोरो बांदूंक लागलीं, तेन्ना वागाचे चकचक जावपी दोळे पळोवन भियेलीं आनी थरथरूंक लागलीं. आतां वागमाम आपणांक खातलो हें चिंतून तीं भियेल्लीं. तांणी भियेत भियेत वागमामाक म्हळें, 'वागमाम, आमकां खावं नाका रे. आमकां घरा वचूंक दी.'



वागमामाक म्हऱ्यांत मेळिल्लें सावज सोडप खरें तर जिवार आयिल्लें, पूण थंय आयिल्लो तेन्ना ताणें आटकुळया - पिटकुळयाचें पद आयकल्लें आनी वागमामाक सान्नां दिवंया म्हणिल्लेंय ताणें आयकल्लें. सान्नांचे रुचीन ताच्या तोंडाक उदक सुटिल्लें.

वागान म्हळें, 'हांव तुमकां सोडटां, पूण तुमी म्हाका सान्नां दिवचीं पडटलीं. मान्य आसा?'

...६

आटकुळयान - पिटकुळयान एकदम म्हळें, 'हय वागमाम.' तांकां कशेंयतरी वागमामाचे तावडेंतल्यान सुटूंक जाय आसलें. जिवामुखार सान्नांची पर्वा कोणाक?

देखून तांणी 'हय' म्हळें आनी वागमामान तांकां सोडलें आनी सांगलें, 'आतां वचात. बरीं सान्नां करात आनी फाल्यां येतना घेवन येयात. जर फाल्या सान्नां हाडलीं नात तर मात हांव तुमकां खातलों.'

आटकुळयान - पिटकुळयान लाकडांचे भोरे माथ्यार मारले आनी तशींच कडकडत घरावटेन लागलीं. घरा पावलीं तेन्ना तांकां सूऽऽ जाल्लें. तरी वागमामाचो भंय आसलोच. घरा पावतकूच तांणी शेजाऱ्यांक वागमामाची खबर सांगली. शेजाऱ्यांनी म्हळें, 'सुटलीं मुगो ताचे तावडेंतल्यान? जालें. फाल्यां तेवटेन वचूं नाकात. लाकडां बी जाय पडलीं जाल्यार दुसरेकडेन वचून हाडात.'

जालें. आटकुळयान - पिटकुळयान शेजाऱ्यांचें आयकून तेप्रमाण करचें थारायलें. तांणी बेस बरीं सान्नां केलीं आनी आपणें खालीं. उरिल्लीं शेजाऱ्यांक दिलीं.

तो दीस गेलो, दुसरो दीस गेलो. करून करून दीस वचूंक लागले आनी आटकुळें - पिटकुळें वागमामाची खबर विसरून गेलीं. लाकडां, भाजी बी हाडूंक तीं दुसऱ्या रानांत वचूंक लागलीं. पूण वागमाम मात सान्नांची खबर विसरूंक नासलो. तो दीस-रात दोळयांत तेल घालून आटकुळया-पिटकुळयाची वाट पळयतालो. एक एक दीस वचूंक लागलो तशें आपणाक तांणी फटयलो म्हणपाचें वागमामाक कळळें. ताका राग आयलो, पूण करतलो कितें? 'आटकुळें - पिटकुळें मेळूं दी, मागीर दाखयतां तांकां' अशें म्हणून तो वोग्गी रावलो.

हेवटेन आटकुळें-पिटकुळें ती खबर पुराय विसरून गेल्लीं. आनी एक दीस तीं पयलींच्या जाग्यार लाकडां कापूंक गेलीं. लाकडां कापतां कापतां तीं सदचे वरी आपणालीं पदा म्हणटालीं,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

लाकडां कापुंया

वागमाम येयत तर काय

करुंया?

वागमामान हें पद आयकलें आनी आटकुळया-पिटकुळयाचो आवाज तो ज्यूस्त वळखलो. आपणाक फटयलो हाचो ताका राग आयलो. तो रोखडोच गरड घालीत तांचे म्हऱ्यांत आयलो. ताका पळोवन आटकुळें-पिटकुळें भियेलीं. तांकां सान्नांची गजाल याद जाली. आतां आनी-आनी आमी वाचनात अशें दिसलें तांकां. तरी जमल्यार जमलें म्हूण तांणी वागमामामुखार हात जोडले

आनी म्हळें, 'वागमाम, आमकां खावं नाका रे. आमी सामकीं भुरगीं. आमकां खावन तुजें पोट काय भरचेंना. आमकां सोड, घरा वचूं दी आमकां.'

वागान परत एकदां गरड घाली आनी म्हळें, 'सोड म्हणटात? म्हाका सान्नां दितां म्हूण सांगून फटयलो आनी आतां पायां पडटात? हांव तुमकां कसोच सोडचों ना.'

'जावं रे वागमाम, सोड आमकां. त्या दिसा मुरे सान्नां लोकांक दिवन सोंपलीं. आतां हे फावट परतीं सान्नां करून फकत तुकाच दितात. पूण तूं आमकां सोड. एकदांच सोड.'

वागाक सान्नां करून दितां म्हणपाचें आयकून खोस जाली. सान्नां मेळटात तर हांकां कित्याक सोडचीं न्हय ह्या विचारान ताणें म्हळें, 'बरें आसा, आज तुमकां सोडटां. पूण फाल्यां सांजवेळमेरेन जर सान्नां मेळळीं नात जाल्यार हांव गांवांत येवन तुमकां खातलों.'

'बरें आसा' अशें म्हणून आटकुळें-पिटकुळें घरा आयलीं. येतना तीं सामकीं भियेल्लीं. घरा आयलीं तशीं तांणी बेगीबेगीन चूल पेटयली आनी सान्नांक आदण दवरलें. इतले म्हणसर वागमामाची खबर शेजराक पाविल्ली. शेजाऱ्यांनी येवन तांकां म्हळें, 'वागमामाक कित्याक भियेतात? तो थोडोच गांवांत येवचो पडला? तुमी सुशेगाद जेवन बी न्हिदात.'

तांकां शेजाऱ्यांचें म्हणणें खरेंच दिसलें. तांणी सान्नां केलीं. थोडीं खालीं आनी थोडीं दवरलीं. दुसऱ्या दिसा उरिल्लीं सान्नां खालीं आनी सगलीं सोंपोवन उडयलीं. सांजवेळ जायत आयली, तशीं दोगांय भियेलीं. वाग खऱ्यांनीच आयलो तर कितें करपाचें? ह्या विचारान तांकां कांयच रुचना जालें. न्हिदूय पडना जाली. तीं दोगांय गुणगुणटालीं,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

काय करुंया

वागमाम येय जाल्यार

लिपोन बसुंया

रात जाली, तशीं दोगांयनी हातरुणां घालीं आनी न्हिदूंक गेलीं. पूण न्हीद कशी येतली? खंयूंय खुट्ट जालें तर तीं भियेवन एकमेकांक घट्ट धरतालीं.

आनी इतल्यांत तांकां वागाची गरड आयकूंक आयली.

दोगांय भियेलीं. कितें करचें, तांकां कळना जालें. आतां वाग घरांत आयलो तर आपणांक सोडचो ना, ह्या भंयान तीं उठलीं आनी लिपपाखातीर जागो सोदूंक लागलीं.

...८

आटकुळें उठलें आनी भाणांत लिपलें, पिटकुळें गेलें वानाचे खांचींत. वाग आयलो आनी पडवेर रावन दोगांकूय उलो मारूंक लागलो,

आटकुळया गो, पिटकुळया गो

खंय गेल्यांत गो

सान्नां घेवन येयात गो

वाग आयला गो

अशें दोन-तिनदां म्हणून जाले उपरांत वागान व्हडल्यान गरड घाली. हेवटेन आटकुळें-पिटकुळें कडकडत लिपून बशिल्लीं. इतल्यांत कितें जालें? आटकुळयाक आयलो धेंकर. गर्रर असो आवाज जालो. आटकुळयान आपूण खंय आसा तें वागाक कळत म्हूण धेंकर आडावचेलो यत्न केल्लो, तरी ताका तो आडावप जमलेंना आनी तें भाणांत बशिल्लयान आवाज चडूच मोट्यान जालो.

हो आवाज वागान आयकलो. आपणाच्याकूय व्हड आवाज काडपी ह्या घरांत कोणतरी आसा हें पळोवन वाग भियेलो आनी झक मारलीं तीं सान्नां अशें म्हणून शेंपडी तुटसर धांवत धांवत रानांत वचून लिपलो.

रातभर आटकुळें तशेंच भाणांत आनी पिटकुळें तशेंच वाना खाचींत लिपून बसलीं आनी सकाळीं उठून पळयत तर वाग ना! ताचे उपरांत मात तांणी वाग आशिल्ल्या त्या रानांत वचपाचें शाणेपण केलें ना आनी वागूय तांचे वाटेक परतो गेलो ना.

❒ ❒ ❒

२

# एक आसलो गुणो

एका गांवांत जनी नांवाची एक म्हातारी रावताली. तिका एक पूत आसलो. ताचें नांव गुणो. गांवांत कोणालेंय काम करून तो आपलें आनी आवयचें पोट भरतालो. गुणो हो नांवावरीच गुणो आसलो. शाळेंत वचुनूय बोड नाशिल्ल्यान तो कांयच शिकूंक पावलो ना. सभावानूय तो अरवळ आसलो. देखून ताका खंय कशें वागचें, कोणाकडेन किते आनी कशें उलोवंचें तेंच कळनासलें. हाका लागून ताका वचत थंय लज जाताली. लोक ताका हांसताले तरी ते कित्याक हांसतात तेंच ताका कळनासलें.

आपणाल्या पुताक मातूय अक्कल ना, हाचें जनीक बाबडेक वायट दिसतालें आनी ती आपल्याच नशिबाक दोश दिताली. दर दिसा सकाळीं उठना फुडें ती गुण्याक कसो वागचो हाचे धडे दिताली. तरी गुणो एकदां भायर सरून कामार गेलो की सगलें उमथ्या कळशार उदक जातालें!



एका दिसा जनीच्या मनांत आयलें, आपूण आतां म्हातारी जायत आयलां तेन्ना ह्या भोळ्या गुण्याक सांबाळूंक कोणतरी जाय. देखून तिणें गुण्याक लग्न करचें अशें थारायलें आनी शेजारच्या गांवची एक बरीशी चली पळोवन ताचें लग्न केलें. लग्ना उपरांत तिणें सुनेक आपल्या पुताचे सगले गूण सांगले आनी ताका बरेतरेन सांबाळूंक सांगलें. सुनेन मांयचें सगलें आयकलें आनी आपूण गुण्याक बरे तरेन सांबाळटलीं म्हणपाचें उतर दिलें.

गुण्याचें लग्न जालें आनी कांय दिसांनी मावोडेच्यान गुण्याक आपोव्रणें आयलें. मांवान धूव आनी जांवयाक चार दीस रावंक म्हूण आपयिल्लें. गुण्याक मावोड्या धाडप खरें तर जनीच्या जिवार आयिल्लें. आपणाल्या वागपान गुणो स्वताचें आनी स्वतावांगडाच आपणालेंय हांशे करतलो म्हणपाचें ती जाणा आसली. पूण नवो जांवय जाल्ल्यान ताका 'वचूं नाका' म्हणपूय सारकें जावचें नासलें. तातूंत गुणो गेलो ना तर ताचे

बायलेक वचूंक मेळचें नासलें. ती एकली कशी वतली? म्हणटकूच गुण्याक मावोड्या धाडचोच पडलो.

वचचे वेळार तिणें गुण्याक बरोच समजायलो. मावोड्या कशें वागचें, कशें उलोवंचें हाचे धडेच तिणें ताका दिले. तिणें ताका सांगलें, 'मावोडेचे वाटेर जर कोणूय पयलेच फावट मेळ्ळो, तर ताची खबर घेवची. तो कोण, खंय रावता, ताका भुरगीं कितलीं बी विचारून घेवचें. मावोड्या मांव, मेवणेकडेन गोड बरें उलोवचें, जड उतरांनी उलोवंचें, वयल्या जाग्यार बसचें, जेवणाक कितेंय वाडल्यार नाका - नाका म्हणचें, ना तर मावोडेच्या लोकांक जांवय हावरोसो दिसता. एकादो जिनस बरो लागलो तर ताचें नांव मतींत दवर म्हणजे हांगा येतकूच करून खावंक मेळटलो.'

गुण्यान सगलें समजल्लेवरी तकली हालयली आनी बायलेक घेवन तो मावोडेचे वाटेक लागलो. जांवय येतलो म्हूण मावोडेच्या लोकांनी गोड-धोड करून दवरिल्लें आनी मांव जांवयाची वाट पळयत आंगणांत उबो राविल्लो. गुणो आनी बायल दारांत पावलीं. बापायक पळोवन धूव धांवत मुखार गेली आनी बापायक घट्ट वेंग मारली. फाटल्यान गुणो आपले चालीन चलतालो. धूव बापायक मेळून भितर आवयक मेळूंक गेली आनी मांव जांवयाक येवकार दिवंक मुखार आयलो.

गुण्याक आवयच्या उतरांची याद जाली. 'जो पयलेच फावट मेळटा ताची खबर घेवची.' ताणें मांवांक वळखूंक नाशिल्लेवरी करून म्हळें,

'कशे आसात? बरे न्हय?'

'हय बरो आसां. तुमी कशे आसात?' मांवान विचारलें. पूण ताच्या प्रस्नाक जाप दिनासतना गुण्यान दुसरो प्रस्न केलो,

'तुमी खंय रावतात?'

गुणो आपणालीं फकाणां करता काय तो आपणांक वळखूंक ना हेंच बाबड्या मांवाक कळना जालें. तो आपणांक वळखूंक ना जातलो अशें समजून मांवान म्हळें, 'हांव तुजो मांव, म्हाका वळखूंक ना तूं?'

हाचेर गुण्यान म्हळें, 'वळखलों वळखलों. पूण एक सांगात, तुमकां भुरगीं कितलीं?'

आतां मात मांवांक राग आयलो, ताणें म्हळें, 'म्हाका आठ भुरगीं. पांच धुवो आनी तीन पूत. एक धूव तुजी बायल, कळ्ळें?' आनी जांवयांक थंयच सोडून तो भितर गेलो.

चलून आयिल्ल्यान गुण्याचे पांय वळिल्ले. ताका बसनशें दिसलें. खंय बसचें हें चिंततनाच ताका आवयचीं उतरां याद जालीं. 'वयल्या जाग्यार बसचें'. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. बसपाक वयलो जागो खंयचो? इतल्यांत ताका दारांत तणाचें कुडें दिसलें. गुण्यान टुण्ण करून उडी मारली आनी वचून त्या कुड्यार बसलो.....

जांवय आयला म्हण्टकूच मांय, मेवणे, मेवण्यो सगलीं भायर आयलीं तर जांवय ना! सगल्यांनी हेवटेन तेवटेन पळयलें. मांवाक दिसलें, आपूण तापून उलयल्ल्यान रागार जावन जांवय परतो बी गेलो काय? इतल्यान एके मेवणेची नदर कुड्यार गेली. गुण्याक थंय पळोवन तिणें विचारलें, 'भावोजी, हें कितें, कुड्यार शे बसल्यात?'



गुण्याक येवजलें, आवयन सांगिल्लें. 'माय, मेवण्यो हांचेकडेन गोड उलोवचें.' गुण्यान जाप दिली. 'साखर.'

'कितें?', तो कितें सांगता तें कळना जावन मांयन विचारलें.

'गोड.' गुण्यान म्हळें.

मेवण्याक दिसलें, वोतांतल्यान आयिल्ल्यान भावोजी तानेला आनी ताका पियेवंक उदक जाय. वोतांतल्यान येतकूच पियेवचे पयलीं गोड तोंडात उडयतात देखून तो गोड वा साखर मागता. ताणें घरांत वचून बेगीबेगीन गोड - उदक हाडलें आनी गुण्याक दाखयलें. गुणो तानेल्लोच. ताणें

बेगीबेगीन सकयल देंवन उदक घेतलें आनी गटगटीत पियेलो.

मेवण्यान ताका हाताक धरून हाडून घरांत बसयलो. सगले ताचें भोंवतणीं जमून खबऱ्यो मारूंक लागले. पूण गुणो कांयच उलयना. मेवण्यान ताका म्हळें, 'भावोजी, कांयच उलयनात शे?'

गुण्याक आवयचीं उतरां याद जालीं. 'जड-जड उलोवचें'. गुण्यान तोंड उगडलें आनी म्हळें, 'फातोर, रगडो, वान, मुसळ!' हो आनी कितें उलयता तेंच कोणाक कळना जालें. सगले ताका पळयत उरले. मांवाक दिसलें, हाची तकली फिरूंक बी ना मूं? फकत गुण्याचे बायलेक ताचे हे प्रताप कळ्ळे आनी आपणांक लज जातली म्हूण तिणें विशय बदल्लो.

रात जाली. सगले जेवंक बसले. जांवयाक बसपाक रांगोळी बी घालून पाट दवरिल्लो. तें पळोवन गुणो सामको खोशी जालो. गुणो जेवंक बसलो. मांय ताका आग्रो करून वाडूंक लागली. पूण गुणो दर खेपे नाका-नाका म्हणून पानार हात करतालो. मांय बाबडी दुखावली. जेवण बरें जावंक ना काय? जांवय येतलो म्हणून खास बेत केला आनी जांवय सगलेंच नाका म्हणटा कित्याक, तेंच तिका कळना जालें. निमाणें तिणें गोडशें म्हूण केल्ली शेवयांची खीर हाडली. तिवूय गुण्यान नाका म्हळी. नाका म्हणटना ताणें पळय जो हात मुखार केल्लो, त्या हातार खिरीचो एक थेंबो पडलो. गुण्यान तो ल्हवूच चाटलो. ताका बरो लागलो. पूण एकदां नाका म्हणिल्ली वस्त परत मागप कशी? 'नाका नाका' म्हळें, हाचो ताका आतां पश्यताप जालो. मनांतल्या मनांत ताणें आवयक दोश दिलो. पूण आतां खंती जावन उपेग नासलो. तो तसोच उठलो, हात धुले आनी न्हिदूंक गेलो.

गुणो हातरुणार पडलो खरो, पूण ताका न्हीद कशी लागतली? नाका - नाका म्हणिल्ल्यान ताका कांयच खावंक मेळळें ना. पोटाक भूक लागिल्ली आनी भुकेपोटार न्हीद कशी लागतली? तातूंत आनी ते खिरीची रूच जिबेर घोळटाली.

बरीच रात जाली. सगले न्हिदले. तरी गुणो जागोच आसलो. गुण्यान हेवटेन तेवटेन जाग घेतली. सगले न्हिदल्यात तें पळोवन तो ल्हवूच उठलो आनी रांदचे कुडींत गेलो. भितर काळोख आसलो. तो काळखात हेवटेन तेवटेन सासपूंक लागलो. सासपितां - सासपितां ताका एका बुडकुल्यांत कितेंतरी आसाशें दिसलें, म्हूण ताणें तें कितें तें जाणा जावचेखातीर ताचो वास घेतलो. बुडकुलो मात्सो व्हड आशिल्ल्यान वास येवंचेखातीर ताका आपलें तोंड बुडकुल्याच्या तोंडाक तेंकोवचें पडलें. जालें! ताची तकली बुडकुल्यांत शिरकून उरली. तकली काडचो यत्न केलो तर ताचो धपको कित्याक तरी लागून लागींचीं आयदनां सकयल पडलीं आनी व्हडलो आवाज जालो. कांय मातयेचीं आयदनां पडून फुटलीं.



ह्या आवाजान घरांतलीं सगलींजाणां जागीं जालीं आनी मांजरान सगलें सकयल घालां, समजून रांदचेकुडींत गेलीं. थंय दिव्याच्या उजवाडांत तांणी कोणतरी बुडकुल्यांतल्यान सुटपाचो यत्न करता तें पळयलें आनी ताका चोर समजून बरोच पेटलो. ह्या बोवाळांत बुडकुलो फुटलो आनी गुण्याचें तोंड भायर आयलें. तो गुणो म्हणून कळटकूच तीं मारपाचीं थांबलीं. पूण तो थंय कितें करतालो हाचें कुवाडें सगल्यांक पडलें. फकत ताची बायल कितें तें समजली. बाबड्याक जेवण नाच. वेल्यान मार खावचो पडलो हार्चे तिका भोव दुख्ख भोगलें. बाबडो गुणो लजेन तोंड लिपोवन ल्हवूच वचून हातरुणार पडलो. घरच्याय मनशांक जांवयाक मारलो हाचें दुख्ख जाल्लेंच. तेवूय तोंड धांपून वचून न्हिदले.

सकाळ जाली. गुणो उठलो. रातभर न्हीद नाशिल्ल्यान ताचे दोळे चुरचुरताले. पोटाक भुकूय आसली. मार पडिल्ल्यान आंग दुखतालें. ताणें रातीं कानाक पीळ घाल्लो. आवयन कितें सांगलां तें सगलें विसरप आनी आपणाक जाय तशेंच वागप. सकाळ बेस बरी गेली. च्या वांगडा खावंक बी गुण्यान खाल्लें. पोटाक इल्ली थाकाय मेळ्ळी.

दनपार जायत आयिल्ली. इतल्यांत पोस्टमनान इतल्यान एक तेलेग्राम हाडून मांवाच्या हातांत दिलो. गुण्याचो मांव शिकूंक नाशिल्लो. ताका खंयचें वाचूंक येतलें? ताणें गुणो शाळेंत वतालो म्हणपाचें आयकल्लें. तो शिकलां कितें तें मात खबर नासलें. तरी शाळेंत वतालो म्हणटकूच बरोवंक वाचूंक येवंक जाय असो ताचो अदमास.

ताणें तो तेलेग्राम काडून गुण्याच्या हातांत दिवन वाचूंक सांगलें. गुण्यान तेलेग्राम हातांत घेतलो खरो. पूण ताका तरी खंय वाचूंक येतालें? ताणें बरोच वेळ तो हातांत धरून पळयलो आनी एकदम रडूंक लागलो. गुणो रडटा म्हण्टकूच तेलेग्रामांत कितेंतरी वायट खबर आसा असो मांवचो समज जालो आनी तोवूय रडूंक लागलो. त्या आवाजान गुण्याची मांय, मेवण्यो बी

...१४

सगलीं आयलीं. शेजारी-पाजारी आयले आनी तीं रडटात म्हणटकूच कितेंय तरी वायट घडलां हे समजुतीन तेवूय रडूंक लागले. इतल्यांत गुण्याचो एक मेवणो घरा आयलो. तो वाचूंक बरोवंक जाणां आसलो. ताणें घरच्यांक रडटना पळयलीं आनी विचारलें, 'कितें जालां?' आतां जालां कितें तें कोणूच नकळो आसलो. सगलीं एकामेकाच्या तोंडाक पळोवंक लागलीं. निमाणें मांवान तेलेग्रामाची खबर सांगली. पूण तेलेग्राम कोणाचो आनी कितें म्हूण आयला, तें कोणूच नकळो आसलो. मेवण्यान तेलेग्राम काडून पळयल्यार तो दुसऱ्या जांवयाचो आसलो. ताणें आपूण येता म्हणपाचें कळयिल्लें. 'हें वाचून तूं रडलो कित्याक?'



गुण्यान जाप दिली, 'हांव तें वाचून रडूंक ना. हांव रडलां तो म्हाका शाळेंत चिरूंक घाल्लीं अक्षरां ह्या तेलेग्रामाचेर नासलीं म्हणून.'

हें आयकून थंय जमिल्लयांक हांसचें काय रडचें, तेंच कळना जालें. गुण्याच्या कालसावनच्या वागण्यान मावांक राग आयिल्लोच. तो गुण्याचेर एकदम तिडकलो आनी ताणें ताका सांगलें, 'हाचेमुखार मावोड्या पांय लेगीत दिवचो ना तूं!'

बाबडो गुणो आपलें खंय चुकलें तें कळना जावन तेच गजालीचेर विचार करीत घरा परतलो. गुण्याचे पराक्रम आयकून गुण्याचे आवयन कपलार हात मारलो. गुण्याचे बायलेन मात लजेन सकयल घाल्ली मान आठ दीसमेरेन वयर काडलीच ना.

❒ ❒ ❒

३

# जादूची मुदी

खूब वर्सां पयलींची ही खबर. त्याकाळार आयचेसारके रस्ते, गाडयो, ट्रक बी नासले. लोक चलत वा बैलगाडयांनी प्रवास करताले. वेपारी लोक एका गांवांतसून दुसऱ्या गांवांत वेपाराचो माल व्हरूंक तारवांचो उपेग करताले. एका गांवांतसून दुसऱ्या गांवांत वतलो जाल्यार दीस पावनासले आनी वेपाराखातीर वतले म्हळयार म्हयने लागताले.

अशा ह्या काळार एका गांवांत जयू नांवाची एक बायल रावताली. तिका गुणो नांवांचो एक पूत आसलो. जयू बाबडी हांगा थंय वावर-कश्ट करून आपलें आनी पुताचें पोट भरताली. तिच्या एकटेच्या कामान दोगांयचें पोट भरनासलें. तरी गुणो ल्हान आशिल्ल्यान काम करूंक शकनासलो.

इल्लो इल्लो गुणो व्हड जालो आनी ताका आपले घरची परिस्थिती कळळी. ताणें थारायलें, आतां आनी आवयक काम करूंक दिवप ना. आपणें खंयतरी काम करप आनी आवयक विसव घेवंक सांगप.

हें चितून ताणें काम सोदूंक सुरवात केली. पुराय गांव भोंवलो तरी ताका कांयच काम मेळळें ना. निमाणें ताणें थारायलें, हो गांव सोडचो आनी दुसऱ्या खंयच्यातरी गांवांत वचून काम सोदचें. ताणें ही खबर आवयच्या कानार घाली. पूण आवय गांव सोडचे गजालीक कशीच तयार जाली ना. नवो गांव कसो आसत कोण जाणां? थंयचे लोक कसले आसत? आनी नव्या गांवांत काम मेळटलेंच म्हणपाची खात्री खंय आसा?

पूण गुण्यान आवयचें कांयच आयकलेंना. आपूण वतलोंच म्हणपाचो हट्ट घेवन तो बसलो. निमाणें दोगांयनी मेळून एक थारायलें. गुण्यान नव्या गांवांत काम सोदूंक वचचें आनी ताका काम मेळून तो जोडूंक लागलो की गुण्याचे आवयन थंय वचचें.

जालें. आवयक गांवात दवरून आनी शेजाऱ्यांक तिचेर नदर दवरूंक सांगून गुणो कामाच्या सोदाक लागलो. भोंवत भोंवत तो एका गांवांत पावलो. ह्या गांवांत जायते वेपारी रावताले. ते तारवां घेवन एका गांवांतल्यान सामान घेवन दुसऱ्या गांवात वताले आनी तें विकून पयशे हाडटाले.

ह्या वेपाऱ्यांक तारवार वचपाक मानाय लागताले. गुणो काम सोदीत सोदीत एका वेपाऱ्याकडेन आयलो. गुण्याक पळोवन एक बरो मानाय मेळळो अशें त्या वेपाऱ्याक दिसलें. ताणें गुण्याक म्हळें, 'हांव तुका काम दितां. पूण तुवें बरें काम केलें तरूच तुका पगार मेळटलो. ना तर कांयच

मेळचें ना. चलता तर पळय.'

गुण्यान म्हळें, 'बरें आसा. म्हाका हें मान्य आसा.' आनी तो कामाक लागलो. तारवां ज्या गांवांक वतालीं, थंय तो वेपारी दुकान घालतालो आनी हाडिल्लो वेपार खपोवन दुसऱ्या गांवांत वतालो. गुणो आपलें काम मन लावन बरें करतालो. करतां करतां म्हयनो गेलो आनी वेपाऱ्याचो सगलो म्हाल सोंपलो. रितीं तारवां घेवन वेपारी परतलो. गांवघरा पावतकूच ताणें सगल्या मानायांचो हिशेब केलो आनी तांकां पयशे फारीक करून आठ दिसां उपरांत परते वचूंक आपयले. ताणें गुण्याक मात कांय दिलें ना. गुणो भुरगो जाल्ल्यान ताका फटोवंचो अशें ताच्या मनांत आयलें. ताणें गुण्याक म्हळें, 'तुवें काम सारकें करूंक ना. वेल्यान म्हजें लुकसाण केलां, देखून तुका थारायल्लेप्रमाण पगार मेळचो ना.'

हें आयकून गुण्याक वायट दिसलें. आपणांक हो फटयता हाचें ताका भोवच दुख्ख जाल्लें. आपूण हाका बुद्ध शिकयन तर खरो ह्या विचारान गुणो त्याच गांवांत रावलो आनी तारवां परतीं वचचे वेळार त्याच वेपाऱ्याकडेन काम मागूंक आयलो. हो फुकट मानाय मेळटा तें पळोवन वेपारी खोशी जालो. ताणें आदलीच अट घालून ताका कामाक दवरलो. तारवां वचूंक लागलीं आनी कांय वेळान गुण्यान वांगडच्यांक एक मुदी दाखयली. म्हणूंक लागलो 'ही मुदी जादूची.' ही खबर एकल्याकडल्यान दुसऱ्याकडेन अशी वचत वचत तारवांच्या मालकाकडेन म्हळयार वेपाऱ्याकडेन पावली. ताकाय ती मुदी पळयन दिसली. तो गुण्याकडेन आयलो आनी ताणें ती मुदी पळोवंक मागली. गुण्यान ती मुदी वेपाऱ्याक दाखयली. मुदी पळोवन वेपाऱ्यान म्हळें, 'ही रे कसली जादूची मुदी. ही तर बाजारात मेळटा तसली लोखणाची मुदी.' आनी ताणें ती गुण्याक परती दिली. दितना ती मुदी गुण्याच्या हातांत पडची सोडून दर्यांत पडली. 'आ! म्हजी बरी मुदी पडली.' गुण्यान म्हळें. वेपाऱ्याक दिसलें, हो आपल्या कडल्यान मुदये नांवान दुड्डू



मेळोवंक सोदता, देखून तार्णे ताका पिशांत काडून म्हळें, 'असल्यो मुदयो जायत्यो मेळटात. हांव घेवन दितां तुका.'

गुण्यान म्हळें 'ही मुदी तसली न्हय. ही जादूची. ही म्हाका सोदीत म्हज्या फाटल्यान येतली.'

सगल्यांनी ताका पिशांत काडलो. पूण गुणो मात मुदी आपणाक सोदीत येतलीच येतली अशें सांगतालो. निमाणें वेपाऱ्यान ताचे लागीं पैज मारली. ताणें म्हळें, 'जर ही मुदी दुसऱ्या गांवांत पावतकूच तूं दर्यांतसून काडून दाखयशीत तर हीं तारवां आनी तारवांवेलो म्हाल तुजो. पूण जर हें फट थारत तर तुवें जल्मभर म्हजेकडेन फुकट काम करचें पडटलें. आसा कबूल?'

गुणो रोखडोच मान्य जालो. ताणें सगल्यां हुजीर 'हय' म्हळें. आनी सगलेच आपआपल्या कामाक लागले. तारवां फिरत फिरत दुसऱ्या गांवांत पावलीं. वेपाऱ्यान गुण्याक सांगलें, 'दाखय रे तुजी ती जादूची मुदी'. गुणो आतां आयतोच आपणाक फुकट कामाक मेळटलो हे खोशयेंत वेपारी आसलो.

वेपाऱ्यान सांगतकच गुण्यान खिणांत उदकांत बूड मारली. कांय वेळान तो वयर आयलो तेन्ना ताच्या हातांत मुदी आसली.

वेपाऱ्याचें तोंड इल्लेशें जालें. ताणें आपणालीं तारवां आनी म्हाल गुण्या सुवादीन केलो आनी तो सगलें सोडून गेलो. गुणो खिणांत गिरेस्त जालो. ताणें आपले आवयक आपणावांगडा हाडली आनी खोशयेन रावंक लागलो.

आतां ही मुदी कसली आसली जाणांत तुमी? ती सादीच आसली. वेपाऱ्यान फटयलो तेन्ना ताका बुद्द शिकोवंक गुण्यान एकाच सारक्यो दोन मुदयो घेतिल्ल्यो आनी तांतली एक आपल्या आंगारूच लिपोवन दवरिल्ली.

आपणें दुसऱ्याक फटयलो की आपूण फटवता तो असो!

४

# कोलो बुद्दीन भोलो

एक गांव आसलो. त्या गांवांभायर एक रान आसलें. ह्या गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचचें जालें तर त्या रानांतल्यान वचचें पडटालें. ह्या रानांत खूब सावदां रावतालीं. तातूंत वाग, शींव, कोले, लांडगे असलींय सावदां आसतालीं.

हांतलोच एक वाग ह्या रानांतल्यान वचपी लोकांक खूबच पिडापीड करतालो. ताका मनशाचें मांस खूब आवडटालें. देखून तो रानांतसून कोणूय मनीस वता काय म्हूण तेळीत बसतालो. ह्या वागाच्या भंयान लोकांनी रानांतसून वचपाचेंच सोडिल्लें. पूण रानांतल्यान वचपाचें सोडलें तर कामां कशीं जावपाचीं? लोक कितें करचें हाचेर विचार करताले. तितल्यांत वागान लोक रानांत येनात तें पळोवन गांवाचेर घुरी घालून लोकांच्यो गायो-बोकड्यो खावपाचो सपाटो चलयलो. वागाचें हें इल्लें अतीच जाल्लें. गांवांत येवप म्हळयार कितें?

गांवच्या लोकांनी थारायलें, हाका कसोय करून धरूंक जाय. ना तर हो एक दीस पुराय गांवांक खावन उडयतलो.

वागाक धरूंक म्हूण एक पांदरो तयार केलो आनी तातूंत एक बोकडी बांदली. बोकडेसकट हो पांदरो व्हरून रानांतले वाटेर दवरलो. वाग सदचेवरी ते वाटेन आयलो. ताका वाटेर पांदरो दिश्टी पडलो आनी तातूंत एक बोकडी. आयती बोकडी मेळिल्ली पळोवन वागाचे जिबेक उदक सुटले बगर कशें रावत? ताणें तो पांदरो बी म्हूण पळयनासतना तातूंत उडी मारली आनी बोकडेचेर ताव मारूंक सुरवात केली. वागान पांदऱ्यांत उडी घेतली तशें पांदऱ्याचें दार बंद जालें. बोकडेक खालेउपरांत जेन्ना वागान भायर सरूंक पळयलें तेन्ना कितें? सगलेवाटेन वाटो बंद. वागाक राग आयलो. ताणें हेवटेन तेवटेन उडयो मारून पळयलें. पूण खंयच्यानूच ताका वचूंक मेळना जालें. कितें करतलो? बसलो बाबडो तकलेक हात लावन.

हे वाटेन कोणूय वतना दिसलो, तर वाग ताका उलो मारून आपणाक सोडोवंक सांगतालो. पूण वागाक पांदऱ्यांतल्यान सोडोवक कोणाक आपलो जीव जड जाला? वागान उलो मारचेपयलींच सगले धांवताले. इतल्यांत तेवटेन एकलो लाकडां मारपी वतना वागान पळयलो. ताचें नांव आसलें पांडू. रानांतलीं लाकडां मारून तीं गांवांत विकून तो आपलें पोट भरतालो. वागान ताका पळयलो आनी उलो मारलो. पयलीं वागाक पळोवन पांडू भियेलो. पूण उपरांत तो पांदऱ्यांत आसा म्हूण कळटकीच ताका सू जालें. तरी वाग मनशांवरी उलो मारता तें पळोवन ताका अजापूय

जालें आनी तो पांदऱ्या म्हऱ्यांत गेलो.

वागान सामको काकुटेक येवन ताका म्हळें, पांडूबाब, मात्सो पांदरो उगड आनी म्हाका सोड. तुका हांव मागतां तें दितलों.'

पांडून म्हळें, 'अशें! तुका सोडूं? म्हाका कितें म्हजो जीव जड जाला तर? तुका सोडलो तर तूं म्हाका खावचो ना कित्यावेल्यान?'

'ना रे पांडूबाब, हांव तुका हात लेगीत लावंचों ना, म्हजेर विस्वास दवर आनी म्हाका सोड.' वागान म्हळें.

पूण पांडून ताचेर विस्वास दवरलो ना. वागान जायतें पाराथून पळयलें आनी निमाणें ताका बरेंऽ इनाम दिवपाचें उतर दिलें. इनाम मेळटा म्हणिनाफुडें पांडू भुललो आनी ताणें पांदऱ्याचें दार उगडलें. वाग भायर आयलो आनी म्हणूंक लागलो, 'हांव आतां तुका खातां. म्हाका सामकी भूक लागल्या.'

बाबडो पांडू थरथरलो. ''हें रे कितें वागमाम? तुका हांवें पांदऱ्यांतल्यान सोडयला आनी तूं म्हाका खाता? तूं इनाम म्हणटालो तें हेंच काय कितें रे?''

वागान म्हळें, ''हांव तें कांयच नकळो, म्हाका भूक लागल्या. हांव तुका खातलों.''

बाबडो पांडू! आपणें ताका खंयचो सोडयलोशें जालें ताका. पूण कितें करतलो? सोडयलो तर खरो. आतां कितेंय करून जीव वाटावंक जाय. तो वागाक काकुटेक येवन सांगूंक लागलो. पूण वाग कसोच आयकना. निमाणें दोगांयनी थारायलें, अशेंच मुखार वचचें आनी पयले तीग जाण जे मेळटले तांकां विचारचें आनी ते कितें सांगतात तेप्रमाण करचें. जालें, दोगूय वचूंक लागले.

वतां वतां तांकां एक हरण मेळ्ळें. त्या हरणाक थांबोवन वागान विचारलें, ''एक सांग गो. ह्या मनशान म्हाका पांदऱ्यांतल्यान सोडयला. हांवें हाका खावप काय ना?'' हरण वागान उलो केलो तेन्ना भियेल्लें. ताचो प्रस्न आयकून हरणान ल्हवूच कूस मारीत म्हळें, ''तुमचें तुमी पळोवन घेयात. म्हाका म्हजो जीव जाय.'' आनी तें धावूंक लागलें.

वागान पांडूक पळोवन म्हळें, ''पळयलें? तें धावलें हाचोच अर्थ हांवें तुका खावपाचो.'' कितेंय केल्यार निमाणें वाग आपणाक खातलो हें पांडूक खबर आसलेंच तरी वांचल्यार वांचलो हे आशेन तो वागावांगडा वतालो. ताणें म्हळें, ''आनीक दोगांक विचारपाचें आसा न्हय? पळोवया ते कितें सांगतात तें.''

...२०

मात्शें मुखार वतात इतल्यांत एक कोलो येतना तांणी पळयलो. वागान कोल्याक उलो मारलो. आतां हो कितें सांगतलो तें येवजूनच पांडू सामको थरथरलो. कोलो आपणाकूय इल्लें मांस मेळटलें हे आशेन वागावटेन उलयतलो अशें चितलें ताणें.

तरी कोलो लागीं येतकूच पांडून कोल्याक सगली खबर सांगली आनी ताकाच निवाडो दिवंक सांगलें.

कोल्यान वागाक विचारलें, ''हो कितें सांगता तें खरें रे? तूं पांदऱ्यांत आशिल्लो?''

वागान म्हळें, ''हय. आनी ह्याच पांडून म्हाका सोडयला.''

''तुमी म्हजीं फकाणां करतात काय कितें रे?'' कोल्यान मात्शें तिडकून म्हळें, ''वाग केन्ना पांदऱ्यांत आसता?''

''आरे हय, हांव पांदऱ्यांतूच आशिल्लों.'' वागान मोट्या आवाजान म्हळें.

कोल्यान म्हळें, ''म्हजो कसोच विस्वास बसना.''

''अशें? चल यो तर, हांव तुका पांदरोच दाखयतां.'' वागान म्हळें.

तिगूय जाण पांदऱ्या म्हऱ्यांत गेले. ''हो पळय, तो पांदरो.'' वागान म्हळें, तो पांदरो वयर सकयल पळयत कोल्यान विचारलें, ''ह्या पांदऱ्यांत तूं धरलो कसो? हो पांदरो तर इल्लोसो दिसता.''



''कितें सांगता रे तूं? हो पांदरो इल्लोसो? दोन वाग जातले हातूंत. सारकें पळय.'' अशें म्हणून वाग पांदऱ्यांत गेलो.

कोल्यान पांडूक विचारलें, ''हो असोच आसलो रे?''

पांडून म्हळें, ''हय. फकत पांदऱ्याचें दार बंद आसलें.''

''कशें आसलें? दाखय पळोवया. ''कोल्यान सांगलें. तशें पांडून दार बंद केलें.

''आं, असो आसलो तर तूं पांदऱ्यांत?'' कोल्यान विचारलें.

वागान म्हळें, ''हय, असोच आसलों.''

''बरें तर, तसोच राव.'' कोल्यान म्हळें आनी पांडूक सांगलें, ''परत अशीं पिशेपणां करूं नाका. वागाक भायर काडप म्हळयार तुवें तुजोच घात करप. वागाचेर म्हूण केन्ना पातयेवंक जाता? आतां ताका असोच आसूं दी. तूं वच तुजे वाटेन.''

पांडू आनी कोलो आपापले वाटेन गेले. बाबडो वाग! ताका आपूण फटवल्ल्याचें समजलें. ताणें व्हडाव्हडान गरड घाली. पूण ताचो कांयच उपगे जालो ना.

□ □ □

५

# चल रे भोपळ्या टुणूक टुणूक!

एका गांवांत एक भटीण रावताली. भटीण सामकी म्हातारी आसली. हे भटणीक एक धूव आसली. तिणें आपले धुवेचें शेजारच्या गांवांत लग्न करून दिल्लें. लग्ना उपरांत भटीण धुवेगेर वचूंक नासली. पयलींच्या तेंपार आतांवरी रस्ते, गाडयो बी नाशिल्ल्यान एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत चलत वचचें पडटालें. आनी ही वाट वताली रानांतल्यान. थंय हिंस्त्र सावदां पावला कणकणीं नदरेक येतालीं. देखून लोक एका गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवांत वचपाचें ताळटाले.

भटणीक सदांच दिसतालें, धुवेगेर वचून चार दीस रावचें आनी खबर घेवन येवचें. पूण तिका जमच नासलें. दिसान दीस भटीण चड्डूच म्हातारी जाताली. मरचेपयलीं एक दीस धुवेक मेळचें अशें चितून एक दीस भटीण घरांतल्यान भायर सरली आनी धुवेच्या गांवांक वचूंक लागली.



गांव सोंपलो आनी रानांतली वाट सुरू जाली. भटीण रानांतल्यान चलूंक लागली. अटंग्य रान. अदीं मदीं सावदांचें आड्डप. भटीण सामकी भियेल्ली. मनांतल्या मनांत देवाचें नांव घेत ती वाट चलताली. ''देवा, बरे भाशेन धुवेघरा पावय. येतकूच एका नाल्लाची पंचखाद्य निवेद्य म्हणून दाखयन.'' भटीण देवाक विनयताली.

भटीण चलता थंय आसा, अकस्मात एक लांडगो मुखार येवन उबो रावलो. भटीण

आपणाले तनरेंत चलताली. अकस्मात लांडग्याक मुखार पळोवन कांचवेली. सामकी थरथरली. लांडग्यान भटणीक म्हळें, ''म्हातारे, हांव तुका खातां, म्हाका खूब्ब भूक लागल्या.''

भटणीन भियेत भियेत म्हळें, ''लांडगेमाम, म्हाका खावन तुका कितें मेळटलें? हांव पुता म्हातारी, म्हाका आसात हाडां.'' तिणें मुखार म्हळें, ''धुवेच्या घरीं जातें, तुप-रोटी खातें, बरी मोठी होतें आनी येतें. मग तूं मला खा.''

लांडग्यान म्हळें, ''पळय आं, उतर बी खाशी. तूं येसर हांव हांगाच रावतलों.'' म्हातारी मोटी जावन येता म्हणपाचें आयकून लांडग्याक खोस जाल्ली.

म्हातारेन 'आं' म्हळें आनी ती मुखार गेली, मुखार वता थंय आसा एक वाग गुर्र करून सामकार आयलो, ''म्हातारे, तुका हांव खातां.'' भटणीन कच्च करून आंग काडलें. बांयेंतल्यान येवन न्हंयेंत पडिल्लेवरी दिसलें तिका. तरी तिणें भियेत भियेत वागाक म्हळें, ''धुवेच्या घरी जातें, तूप-रोटी खातें, मोठी होतें आनी मग तूं मला खा.''

वागान म्हळें, ''बरें आसा, तूं येसर हांव हांगाच रावतां. फटयशीत तर वोगी रावचों ना.''

भटणीन म्हळें, ''ना, ना फटयना.'' आनी ती मुखार गेली. कांय खीण चल्ले उपरांत एका शिंवान गरड घालीत तिचेर उडी घाली. भटणीचें नशीब बरें म्हूण शिंवाचो अदमास चुकलो आनी ताची उडी मुखार पडली. आनी भटीण वाटावली.

''म्हातारे, थंयच राव. खूब दिसांनी एक मनीस मेळ्ळा म्हाका.'' शिंवान आड्डत म्हळें.



भटीण सामकी थरथरली. आतां आपूण आनीक वांचना. मरचेपयलीं धुवेक पळोवंक म्हूण वताली. पूण धूव ना आनी कांय ना. भटीण निर्शेली, तरी तिणें निमणो यत्न म्हूण लांडग्याक आनी वागाक सांगिल्लें, तेचवरी शींवाकूय सांगलें आनी शिंवानूय तिचें मानलें. ताणें चिंतलें, जर म्हातारी मोटी जावन येता आसत तर येवं बाबडी. हीं हाडां चाबचेपरस थोडें मांस खावंक मेळटलें.

भटीण मुखार वचूंक लागली आनी चलत चलत धुवेगेर पावली. भटणीचे धुवेक आवयक पळोवन खूब खोस भोगली. तिणें आवयक व्हडा उमेदीन दवरून घेतली आनी तिचो बरोच थातोमातो केलो. कितले बेगीन दीस गेले, भटणीक आनी धुवेक कळ्ळेंच ना. आनी एक दीस भटीण परती वचूंक भायर सरली. ती भायर सरली खरी, पूण तिका शींव, वाग आनी लांडग्याची याद जाली आनी तिच्या पोटांत खप्प जालें.

तिचें देंविल्लें तोंड पळोवन धुवेन तिका कितें जालां काय म्हणपाचें विचारलें. भटणीन सगली खबर सांगली. तें आयकून धुवेन म्हळें, "कांय भियेवं नाका. हांव पळयतां कितें करपाचें तें." अशें म्हणून धूव पोरसांत गेली आनी तिणें दुदनीक लागिल्लो एक व्हडलो बरो दुदी काडलो. तो बरो पोखरलो आनी भटणीक सांगलें, "हातूंत भितर बस आनी चल रे भोपळ्या टुणूक टुणूक म्हूण. म्हणजे हो दुदी गडगडत वचून तुका घरा पावयतलो."

भटणीक सू ऽऽ जालें. ती दुदयांत बसली आनी तिणें दुदयाक म्हळें, "चल रे भोपळया, टुणूक टुणूक." दुदी गडगडत वचूंक लागलो.

हे वटेन रानांत वाग, शींव आनी लांडगो भटणीची वाट पळयत बशिल्ले. कितले दीस जाले तरी भटीण ना हें पळोवन ते निर्शेल्लेच. वेल्यान भटणीन आपणांक फटयलें जावंये, हो रागूय तांकां आसलो. इतल्यांत तांणी एक दुदी गडगडत वता तो पळयलो. ते अजापले. तांच्या उब्या जिवीतांत तांणी असलें अजाप पळोवंक नासलें. शींव मुखार सरलो आनी ताणें दुदयाक आडायलो. भटीण भितर बसून "चल रे भोपळया, टुणूक टुणूक." म्हण्टाली.

भटणीचो आवाज शींव वळखलो. आमकां फटयता? म्हणत ताणें दुदी आडायलो. पळयल्यार खऱ्यांनीच भटीण दुदयांत भितर आसा. "आगे म्हातारे, म्हाका फटोवन वताली? आतां सोडिना तुका." म्हणत शींव तिचेर झोपय घालतलो, इतल्यांत वाग थंय पावलो. भटणीक पळोवन ताणें म्हळें, "हिणें म्हाका उतर दिल्लें, हिका हांव खातलों." शिंवान म्हळें, "ना, हिणें म्हाका उतर दिल्लें, हिका हांव खातलों" दोगूय झगडूंक लागले. तांची झगडीं चलता थंय आसात. लांडगोय थंय आयलो आनी भटणीक पळोवन, "हे म्हातारेक हांव खातलों." म्हणूंक लागलो.

जालें, वाग, शींव आनी लांडगो तिगूय झगडूंक लागले. तांचीं झगडीं नेटार आयल्यांत तें पळोवन भटीण ल्हवूच दुदयांत बसली आनी तिणें म्हळें, ''चल रे भोपळया टुणूक टुणूक'' दुदी धांवंक लागलो.

हेवटेन तिगूय झगड झगड झगडले आनी निमाणें तांणी थारायलें, म्हातारेक तिगांयनीय वांटून खावंची. अशें थारावन ते भटणीक खावंक मुखार सरले. पूण भटीण आसली खंय थंय? ती तर केन्नाच घरा पाविल्ली. तिणें ते उपरांत मात कानाक पीळ घालून घेतलो, कितेंय जावं, परत म्हूण त्या रानांतल्यान वचप ना.''

आनी वाग, शींव, लांडगो आपणालें सावज हातांतल्यान गेलें, म्हूण एकमेकांक दोशी थारावन परते झगडूंक लागले.

६

# कोलो आनी कोली

एक आसलो कोलो आनी एक आसली कोली.कोल्याचें घर आसलें शेणाचें तर कोलयेचें घर आसलें मेणाचें. एक दीस कितें जालें, कोलो आनी कोली दोगांय कसल्या तरी कारणाक लागून झगड झगड झगडलीं. कोल्यान म्हळें, 'खूब्ब वोत येवं आनी कोलयेचें घर कडून वचूं.' हें आयकून कोलयेक आयलो राग. तिणें म्हळें, 'व्हडलो पावस येवं आनी कोल्याचें घर व्हळून वचूं.'

एक दीस खर बरें वोत आयलें आनी कोलयेच्या घराचें इल्लेशें मेण कडलें. कोलयेन दीसभर लागून तें सारकें केलें. दुसऱ्या दिसा व्हडलो पावस आयलो. कोल्याचें शेणाचें घर. तें मोडूंक कितलो वेळ लागतलो? शेणाचें घर खिणांत व्हळून गेलें. बाबडो कोलो पावसांत भिजलो, सामको कुडकुडलो. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. लागसराक कोलयेचें घर सोडून दुसरें कांयच नासलें.

कोलो कुडकुडत कोलयेगेर गेलो. कोलयेच्या घराचें दार बंद आसलें. कोल्यान दारार मारलें. कोलयेन भितरल्यान विचारलें, 'कोण थंय?'

'हांव तो कोलो. पावसान म्हजें घर व्हळून गेलें. हांव भिजलां, सामको कुडकुडटां. म्हाका मात्सो रातीपुरतो आसरो जाय. उपकार कर आनी म्हाका भितर घे.' कोल्यान काकुटेक येवन म्हळें.

'मात्सो राव. हांव म्हज्या पिलांक न्हाणयतां.' कोलयेन सांगलें.

कोलो कांय वेळ रावलो. तो पुराय कुडकुडटालो. कांय वेळान ताणें परतेंय दारार मारलें. 'कोण थंय?' कोलयेन विचारलें.

'हांव तो कोलो.' कोल्यान जाप दिली.

'मात्सो राव. हांव म्हज्या पिलांक वाडटां.' कोलयेन जाप दिली.

आनीक थोडो वेळ गेलो. कोल्यान परतेंय दारार मारलें.

कोलयेन परतेंय विचारलें, 'कोण थंय?'

कोल्यान जाप दिली,'हांव तो कोलो, थंडेन सामको कुडकुडटां.'

'मात्सो राव. हांव म्हज्या पिलांक लायतां.' कोलयेन जाप दिली.

कांय वेळ वतकूच कोल्यान परत दारार मारलें.

परत कोलयेन विचारलें, 'कोण थंय?'

'हांव तो कोलो.' कोल्यान जाप दिली.

'राव मात्सो, हांव पिलांक न्हिदयतां.' कोलयेन सांगलें.

आतां रात जायत आयिल्ली. कोलो सामको कुडकुडटालो. भायर पावसूय पडटालो. लागीं आनीक कांय नाशिल्ल्यान कोल्याक नाक मुठींत धरून कोलयेचीं शाणेपणां आयकुवचीं पडटालीं. पावस थांबिल्लो तर गजाल वेगळी आसली. खंयूय घोल बी सोदूंक वचूं येतालें. पूण उंटगाराच्या पावसांत भायर कशें सरप?.

कोल्यान परत एकदां दारार टक टक केलें. 'कोण थंय?' कोलयेन परत विचारलें. आनी कोल्यान जाप दिली, 'हांव तो कोलो'.

हे फावट मात कोलयेन दार काडलें. कोल्याची अवस्ता पळोवन तिका खोस जाली. 'म्हजेकडेन झगडटालो, अशेंच फावो!' तिणें मनांत म्हळें. बाबडो कोलो काकुटेक येवन तिका सांगतालो, 'एके रातीपुरतो आसोर दी. पावस थांबलो की हांव वतां.'

कोलयेन म्हळें, 'तुका आसोर दितलीं आसलीं. पूण म्हज्या घराच्यो सगल्यो कुडी भरल्यात. एकेंत म्हजीं पिलां न्हिदल्यांत. एकेंत दुकरां बसल्यांत. एकेंत गायो तर एकेंत कुकडां आसात. तुका खंय म्हूण जागो दिवं?'

कोलो सामको काकुटेक आयलो. म्हणूंक लागलो, 'खयूंय दी. सालांत नासल्यार रान्नीपोलांत दी. पूण रातीपुरतो जागो दी.'

कोलयेन म्हळें, 'तुका रान्नीपोल्लांत जागो दितां. पूण थंय शेजराक म्हजीं कुकडां आसात, तांकां बी हात लावंक ज़ायना. कळ्ळें?'

'हय, कळ्ळें. हांव कोणाकूच हात लायना. म्हजेर इल्लो उपकार करून म्हाका जागो दी.'

'बरें आसा.' म्हणून कोलयेन ताका भितर घेतलो. पुसूंक तुवालो दिलो आनी वचून रान्नीपोल्लांत न्हिंदूंक सांगलें. कोली आपणाले कुडींत न्हिदूंक गेली. हेवटेन कोलो न्हिदूंक गेलो खरो. पूण ताका भूक लागिल्ल्यान न्हीद पडना जाली. भुकेन ताच्या पोटांत कावळे रडटाले. कितें करप, ताका कळनासलें.

इतल्यांत ताका शेजारच्या कुकडांचो उगडास जालो. ताणें ल्हवूच घुडांत हात घालून एक कोंबी काडली आनी खावंक लागलो. एक जातकूच दुसरी, दुसरी जातकूच तिसरी, अशें करून तो खावंक लागलो. तो खातना कुडूम कुडूम आवाज जातालो. त्या आवाजान कोली जागी जाली. तिणें कोल्याक उलो करून विचारलें, 'कसलो आवाज जाता रे? म्हगेलीं कुकडां खाता काय कितें?'

'ना! ना! येतना म्हाका म्हातारेन चणे दिल्ले, ते खातां. तुज्या कुकडांक हात लेगीत लावंक ना.' कोल्यान जाप दिली.

कांय वेळ गेलो आनी परत कुडूम कुडूम आवाज आयलो. कोलयेन परतें विचारलें, 'कसलो आवाज रे?'

'कोणें एकल्यान येतना सांगडे दिल्ले ते खातां.' कोल्यान जाप दिली. अशें करतां करतां कोलयेंचीं सगलीं कुकडां कोल्यान खावन फस्त केलीं.

सकाळ जाली. कोली उठली आनी रान्नीकडेन गेली तर कोलो ना आनी कुकडां घूड रिकामो. तातूंत फकत पांखां तितलीं आसात. कोलयेक आयलो राग. कोलो रातभर कुडूम कुडूम करीत कितें खातालो तें तिका समजलें. ती भायर सरली आनी कोल्याक सोदीत भोवंक लागली. कोलो पयस एका झाडालागीं विसव घेतालो, तो तिणें पळयलो.

कोली घरांत आयली. तिणें रान्नींतली एक कोलती घेतली आनी कोलो बशिल्लो थंय गेली. हातांतली कोलती तिणें चूर्र करून कोल्याचे शेंपडेक लायली. कोलती लागून कोल्याची शेंपडी भाजली आनी कोलो जागो जालो. सामकार कोलयेक पळोवन ताणें आनी वेळ केला? शेंपडी हातांत धरून ताणें जी उडी मारली, तो बद्द वचून रानांत लिपलो. ताचे शेंपडेक येद्दो मोटो फोड आयिल्लो आनी तो पेकूंक जायते दीस गेले. अशे तरेन तो बरीच बुद्द शिकिल्लो.

ताचे उपरांत मात ताणें केन्नाच कोलयेच्या गांवांत पांय म्हूण दिलो ना.

❐ ❐ ❐



७

# शींव आनी सोंसो

खूब वर्सां पयलींची गजाल. एक रान आसलें. बरेंच दाट आसलें. झाडां कापपी मनीस घडये त्या वेळार नासले जावंये. रानांतलीं झाडां कोण मारूंक वचनासलो आनी हाकाच लागून रान दाट आसलें. रान दाट आशिल्ल्यान सुकणीं - सावदां तातूंत जाय तशीं रावतालीं. हांगा सावदांचेंच राज्य आसलें म्हळयार जाता. मनशांच्या राज्यांत बळीश्ट मनीस जसो राजा जावंक पावता तसोच सावदांमदीं बळीश्ट जनावर म्हळयार शींव सगल्यांचो राजा जाता. हेर सगलीं सावदां ताका भियेवन रावतात. म्हणटकूच बळिश्टाचें बरेंच फावता म्हूण आनी सांगपाची गरज ना.

ह्या रानांत आशिल्ल्या एका शिंवान सगल्यांचेर आपलो धेंक दवरिल्लो. मनांत येता तेन्ना तो आपले घोलींतल्यान भायर सरतालो आनी जनावरांचेर घुरी घालून आपल्याक तीं खावपाक घेवन घोलींत वतालो. बाबडीं जनावरां ताच्या ह्या करण्यांनी सामकीं बेजारिल्लीं. कांय जाणां तर तें रान सोडून दुसरेकडेन गेल्लीं. पूण सगल्यांकूच तें शक्य नासलें. आपणालें रान, घोल सोडून दुसरेकडेन वचप तांकां माननासलें. दुसरेकडचो शेजार-सामार कसो आसात, कशें कळटा? बरें शिंवाकडेन झुजपूय तांकां शक्य नासलें. कारण तीं सगलीं जनावरां एक नासलीं. 'एकी' करची म्हूण तांणीं एक-दोन बसकोय घेतल्यो, पूण त्यो एकी करचे बदला एकमेकांचीं कुतां काडूंक आनी झगडून दुफळी वाडोवंक कारण जाल्यो. म्हण्टकूच एकी आनी खंयची?

तांकां दिसतालें, कोणेंतरी मनशान त्या रानांत येवचें आनी त्या वाठाराक बोंडलावरी अभयारण्य करून सगल्या जनावरांक वेगवेगळो जागो दिवचो, जाका लागून तांचो जीव वांटावतलो आनी तीं भंयविरयत रावंक शकतलीं. पूण मनीस केन्नाय रानांत घुसतालो तो तुबकाचे फार काडीत आनी व्हडाव्हडान आड्डत, जनावरांचे जीव घेवंक. हेवटेन शींव आनी तेवटेन मनीस, दोगांयनी ह्या सावदांक जीव नाका करून सोडिल्लो. निमाणें एक दीस सगलीं सावदां जिवाच्या आकांतान एक जालीं आनी तांणी निर्णय घेतलो, दर दिसा दर एका घोलींतल्या जनावरान शिंवाचें भक्षण जावन शिंवाकडेन वचप. शिंवान घोलींतल्यान भायर सरप ना.

हो निर्णय घेवन सगलीं सावदां शिंवाकडेन गेलीं. शिंवाक भोव खोस जाली. घोलीभायर सरनासतना, धांवप नासतना जर आपसूक जेवण मेळटा तर कोणाक खोस जावचीना? घोलींतल्यान भायर सरलो जाल्यार ह्या जनावरां फाटल्यान धांव, त्या जनावरां फाटल्यान धांव, आंगाक घाम

काड आनी खर्शेत खर्शेत जें कितें मेळटा ताचेर समादान मानून राव. हाचेपरस कांयच त्रास घेनासतना आयतें खावंक मेळटा तर नाका कित्याक म्हणपाचें? शिंवान रोखडोच हयकार दिलो.

जालें. दर दिसा जनावरां आपूण जावन मरणाच्या दारांत वचूंक लागलीं. दर दिसा कोणाच्या ना कोणाच्या धोलीदारांत रडारड आसतालीच. ह्या रडपांत आतां इल्लो फरक पडिल्लो. पयलीं जनावरां आपलो कोणूय मरतकूच रडटालीं. आतां मुखार कोणतरी मरतलो म्हूण पयलींच रडटालीं. एक दीस शिंवाकडेन वचपाची एका सोशाची पाळी आसली. सोंशाक खावन काय शिंवाचें पोट भरचें नासलें. पूण सोंशाचो जीव मात वतलो आसलो. सोंशान चितलें, कितें तरी करून जीव वाटावंक जाय. आपलो आनी वांगडाच हेर सगल्यांचोय. चितीत चितीत सोंसो शिंवाकडेन वचूंक लागलो. तो एकसारखो चिततालो. देखून ताचें चलप मात्शें सवकास जालें आनी थारिल्ल्या वेळापरस तो शिंवामुखार इल्लो उसरां पावलो. जालें, ताका उशीर जाल्लो पळोवन शिंवाक आयलो राग. ताणें तापून सोंशाक विचारलें, ''खंय आसलो रे इतलो वेळ? पोटाक सामकी भूक लागल्या आनी तूं खंय हेडूंक गेल्लो? असो वेळ करशात, तर म्हाका परतून घोलींतल्यान भायर सरचें पडटलें.''



सोंशान थरथरत म्हळें, ''ना राजा, हांव खंयच हेडूंक गेलों ना. हांव वेळार भायर सरिल्लों. पूण वाटेर तान लागली म्हूण एके बांयचेर गेलों, तर थंय आनीक एक शींव मेळ्ळो. तो म्हाका खावंक सोदतालो. हांवें ताका कितलेंय सांगलें, हांव आमच्या राजासरीं वतां म्हणून. पूण तो कसोच आयकना जालो. निमाणें हांव ताका कसो तरी फटोवन आयलों, देखून म्हाका वेळ जालो.''

हें आयकून शिंवाक आयलो राग, ''म्हज्या राज्यांत आनीक एक शींव! ताका पळोवचो पडलो तर!'' आनी ताणें सोशाक ती बांय दाखोवंक सांगली. ताणें म्हळें, ''पयलीं त्या शिंवाची खबर घेतां आनी उपरांत तुजेकडेन पळयतां.''

सोंसो शिंवाक घेवन एके बांयेसरी गेलो आनी उदकांत बोट दाखोवन म्हळें, ''तो पळय.''



शिंवान उदकांत पळयलें. ताका ताचेंच पडबिंब दिसलें. ताका दिसलें. तें पडबिंब म्हळयार खरेलोच दुसरो शींव. हो शींव म्हगेलें खाण आडायता? दाखयतांच ताका. अशें म्हणून शिंवान व्हडान एक गरड घाली आनी बांयेत त्या शिंवाचे दिकेन उडी मारली.

शींव पडलो उदकांत. बांय बरीच खोल आसली आनी उदकूय बरेंच आसलें. शींव नाकां-तोंडांत उदक वचून घुस्मटून मेलो.

सोंसो खुशालभरीत उडयो मारीत घरा गेलो आनी ती खबर सगल्याक पातळावंक लागलो. शींव मेलो ही खबर कळनाफुडें सगलीं सावदा खोशी जालीं आनी उमेदीन नाचूक लागलीं. तांणी सोंशाक सामको माथ्यार घेतलो.

इश्टांनो, शक्तीपरस युक्ती व्हड म्हूण कळ्ळें मूं?

❒ ❒ ❒

८

# हुशार कोलो

एका रानांत कांय जनावरां वस्ती करून रावतालीं. त्या जनावरांमदीं एक कोलो आसलो. कोलो म्हळो की तो बरोच हुशार आसता अशें आमी सगल्या काणयांनी आयकतात. पूण हो कोलो मात सामको भितरो आसलो, हाका खंयूय एकलो वचचें पडल्यार वा एकलो रावचें पडल्यार सामको भंय दिसतालो. मात्सो खंयूय खट्ट आवाज जालो तरी तो आंग काडटालो. कोणाय मुखार उबो रावन झगडपाचें बळ ताच्यांत नासलें. देखून सगलीं जनावरां ताका 'भितऱ्या' म्हणून उलो मारतालीं. पूण होच कोलो जेन्ना आपल्या वांगड्यांमदीं येतालो तेन्ना तो व्हडल्यो-व्हडल्यो खबरी करतालो आनी आपूण बरोच हुशार आशिल्ल्याच्यो आपल्या वांगड्यां मुखार फुशारकी मारतालो.

एक दीस कोल्याक लागसाराक खावपाक कांयच मेळ्ळें ना. पयस रानांत वचून कितेंय सोदूंक ताका भंय दिसताली. देखून तो लागींच आशिल्ले कोलयेलागीं वचून कितेंतरी खावंक दी म्हणून मागूंक लागलो.



कोलयेक कळ्ळें, कोलो पयस रानांत वचून खाण सोदूंक भियेता. हाका धीर मेळूंक जाय. ना तर हो भितरोच उरतलो अशें तिका दिसलें. तिणें म्हळें, ''भावा, आज म्हाकाय कांय मेळ्ळें ना. हांव सकाळच्यान उपाशींच आसा. तेन्ना तुका कितेंय मेळ्ळें तर म्हाकाय इल्लें दी.'' हें आयकून कोलो मुखार गेलो. थंय एक हरण रावतालें. ताणें हरणाक उलो करून म्हळें, ''इश्टा, कितेंय खावपाक आसल्यार काड. वांगडा बसून खावंया.''

हरण हुशार आसलें. ताणें म्हळें ''आरे, तूं उसरां पावलो, म्हजें केन्नाऽऽ जेवण जालें. जें कितें आसलें तें सोंपयलें. मात्सो मुखार वचशी तर रानांत कितेंय मेळुंयेता.

कोल्याक भूक सामकी सतायताली. निमाणें उपाय नासून तो रानाची वाट चलूंक लागलो. इल्लो मुखार वतकूच ताका व्हडलो आवाज आयलो. तो भियेलो. ताणें चिंतलें, हांगा कोणतरी भयानक जनावर आसूंक जाय! शेंपडी घालीत तो फाटले वटेन धांवलो. पूण तेवटेन ताचो एक इश्ट, माकोड येतालो. ताणें कोल्याची फकाणां मारीत म्हळें, ''कोलेमाम, ह्या येद्याशा आवाजाक भियेता? कोणाचो आवाज तें तरी सोदून पळय. एकाद्रे तुका थंय कितेंय खावंक मेळत.''

कोल्याक बाबड्याक लज जाली. इश्टां सामकार तो आपणाली हुशारी दाखोवंक सोदतालो. तो तसोच आवाजाचे दिकेन चलूंक लागलो. ताणें मनांत चिंतिल्लें, एकाद्रे कितेंय बरेंशें खावंक

मेळटलें.

मात्सो मुखार वतकूच ताणें पळयलें, एक धोल झाडार बांदिल्लो. तो हालतकूच झाडाक आपटून ताचो आवाज जातालो. कोल्यान धोलाक पळोवन चितलें, ''आज कितल्या तेंपान म्हाका इतली व्हडली वस्त खावंक मेळटा. जिचो आवाज इतलो मोटो, ती वस्त खावंक कितली बरी लागतली!'' ह्या विचारानूच ताच्या तोंडाक उदक सुटलें. तो आपल्या इश्टाक माकडाक मनांतल्यान दिनवासूंक लागलो. माकडान ताचीं फकाणां मारून ताका हांगा धाडिल्लो देखून ताका ती वस्त मेळिल्ली.

ती वस्त बेगीन खावंक मेळची म्हणून ताणें झाड हालोवन तो धोल सकयल उडयलो आनी ताचेर दावकूल मारून चामडें फोडलें. तो सामको निर्शेलो. कारण धोल पुराय पोकळ आसलो आनी ताका बांदिल्लें चामडें सुकिल्लें.

निर्शेवन कोलो परतूंक लागलो, इतल्यान ताणें वयर पळयलें, ताचो इश्ट माकोड झाडार बसून हांसतालो. म्हज्यांत येवन माकडान म्हळें, ''इश्टा, भियेवं नाका. तुजो भंय ना जावंचो म्हूण हांवेंच हो धोल हांगा बांदिल्लो. मतींत धर, व्हडल्या आवाजाक भियेवंक जायना. व्हडलो आवाज काडपी ह्या धोलावरी पोकळ आसतात.''

उपरांत माकडान कोल्याक पोटभर खावंक दिलें.

# ९

# रामूचें सपन

एका गांवांत रामू नांवाचो एक भुरगो रावतालो. तो सामको आळशी आसलो. कसलेंय काम म्हळ्यार ताका संकश्ट कशें दिसतालें आनी तो कितें तरी निमतां सांगून आपल्या आंगावेलें काम फाफुडटालो.

ह्या रामूक व्हड-व्हड खबरो सांगपाचो नाद आसलो. आपूण अमकें करतलों आनी तमकें करतलों! व्हडलो गिरेस्त मनीस जातलों! गाडयांनी भोंवतलों! असल्यो खबरो तो लोकांक सांगतालो.

आवयन कसलेंय काम सांगलें जाल्यार ताका तें सामकेंच हलकें दिसतालें आनी तो आवयक म्हण्टालो, ''कसलें गे काम सांगता? असलीं हलकीं कामां हांवें करपाचीं? हांव व्हडलो वेपार करतलों आनी सामको गिरेस्त जातलों. बरें, शाळेंत वच म्हळें तर ताका शाळाय नाका आसली. शाळा आनी कित्याक शिकप? हांव तर सगलेंच जाणां!

आवय ताच्या ह्या करण्यांक सामकीच बेजारिल्ली. आतां तिका ताचो रागूय येवंक लागलो. आतांच कितेंय उपाय करना तर रामू सामकोच हाताभायर वतलो अशें तिणें चितलें. आपूण आसा तेमेरेन बरें आसा, उपरांत ताका कोण पोसतलो? तेन्ना आतांसावनूच कामाची वळख करून दिवप बरी अशें म्हणून तिणें रामूक आपयलो. रामू सदचेवरींच गिरेस्तकायेचीं सपनां पळयत बशिल्लो. आवयन आपयल्ल्यान ताची तनरी तुटली, तरी आवय आपयता म्हणटकूच ताका वचचेंच पडलें.



आवयन ताच्या हातांत धंयाचो बुडकुलो दिलो आनी गांवांत वचून तांतलें धंय विकून येवंक सांगलें. रामूच्यान असलें काम जाता? ताणें कां-कूं केलें. पूण आवयन सरळ सांगलें, ''जर हें विकून पयशे हाडले नात तर आज जेवण मेळचें ना.'' रामूक धंय घेवन भायर सरचेंच पडलें. धंयाचो बुडकुलो माथ्यार दवरून रामू भायर सरलो. तरी ताचे तकलेंत येदोळचींच गिरेस्त जावपाचीं सपनां आसलीं.

तो विचार करतालो. आपूण हें धंय विकतलों. तांतल्यान येवपी पयशांतल्यान एक दुकान उगडटलों. मागीर धंय दुकानार विकतलों. आपणांक खूब गिरायक जातलें. खूब पयशे मेळटले. आपूण एक गाडी घेतलों आनी दुकानार येवंक तशेंच घरा वचूंक गाडी वापरतलों. सगले लोक आपणाक तोखेतले. आपली गाडी रस्त्यांतल्यान वतना कुशीक सरून ते वाट करून दितले. जर कोणेंय वाट दिलीना वा रस्त्यांत मदीं येवन गाडयेक आडखळ बी केली तर आपूण गाडयेंतल्यान भायर सरून ताचेर दोन फुलयतलों! आनी कशें फुलयतलों तें दाखयतना ताच्या बुडकुल्याक धरिल्ले हात सुटले आनी माथ्यावेलो बुडकुलो घबांयच्च करून जमनीर पडून फुटलो. सगलें धंय जमनीभरवण जालें.

बाबडो रामू! आवय आतां तापयतली ह्या विचारान सामको गळसणलो. रामूचीं गिरेस्तकायेचीं सपनां अशे तरेन भंगलीं.

१०

# दुसऱ्याचेर पातयेवचें न्हय

एक गांव आसलो. त्या गांवात एक शेत आसलें. त्या शेतांत एक सुकणें आपल्या पिलांवांगडा घोंटेर बांदून रावतालें. सुकण्यान आपल्या पिलांखातीर तो घोंटेर सोबीत बरो केल्लो. सुकणें सकाळफुडें भायर सरतालें आनी हेवटेन तेवटेन भोंवन पिलांखातीर खावंक घेवन येतालें. आवय भायर सरली म्हणजे पिलां ती यो म्हणसर तिची वाट पळयत बसतालीं.

हें सदांच चलतालें. आवय खावंक घेवन येतासर पिलांनी वाट पळोवप आनी आवय येतकूच तिणें हाडिल्ल्या खाणाचेर तुटून पडप.

अशीच एकदीस आवय खाण घेवन आयली तर तिका आपणालीं पिलां खूब भियेल्लीं दिसलीं. तिणें तांकां विचारलें, ''कितें जालें? तुमी भियेल्यांत कित्याक?''

पिलांनी सांगलें, ''भाटकार आयिल्लो, ताणें फाल्यां शेतांत लुवूंक कामेऱ्यां आपयल्यांत. फाल्यां तो शेत लुंवतलो. आतां आमचें कशें जातलें? आमी खंय वचप?''

''कांयच भियेवंक नाकात, फाल्यां ताचें शेत कशेंच लुवून जायना. मतींत धरात, जो दुसऱ्याचेर पातयेवन रावता ताचीं कामां वेळार केन्नाच जायनात. आतां तुमी मात एक करपाचें. तो भाटकार कितें-कात उलयता, तें सारकें बरें आयकून म्हाका सांगपाचें.'' सुकण्यान म्हळें.

''बरें आसा.'' पिलांनी म्हळें, दुसऱ्या दिसा भाटकार आयलो. पूण कामेऱ्यां काय आयलींनात. शेत लुविनासतनाच तो हात हालयत परतो गेलो. उपरांत ताणें शेजाऱ्यांक लुवणेक आपयलीं. पूण तिंवूय आयलींनात आनी भाटकाराक परतेंय हात हालयत वचचें पडलें.

उपरांत ताणें सोयऱ्यांक .कामाक येवंक रकाद धाडलो. पूण सोयरेय आयलेनात आनी भाटकाराचें शेत लुवून जालें ना. दर दिसा भाटकार शेतांत येतालो आनी हात हालयत परतो वतालो.

सुकण्याचीं पिलां हें पळयतालीं, भाटकार कितें उलयता तें आयकतालीं आनी आवय आयली म्हण्टकच तिका सगलें सांगतालीं. सुकणें वोग्गी आसलें. ताका घोंटेर थंयसून हालोवचो अशें दिसलेंच ना.

आनी एकदीस भाटकार शेतांत आयलो तोच रागान म्हणूंक लागलो, ''नाका येवंक कोण येनात जाल्यार! हांवूच घरच्यांक घेवन शेत लुवतलों!''

लोक आवयक वायट दिसत म्हणून वोगी रावताले.

अशेंच एकदां गांवांत एकल्यागेर लग्न थारलें. एकले एकसुरे धुवेचें लग्न म्हण्टकूच लग्न व्हडा दबाज्यान जावपाचें आसलें. नाऱ्याचे आवयक चार दीस पयलींच कामाक म्हणून आपयल्ली. वांगडा नारोय आसलो.

लग्नाक वतना आवयन नाऱ्याक सांगून दवरिल्लें, ''हें पळय, तूं वांगडा येता तर यो. पूण जर कितेंय वायट उलोवशी तर सांबाळून. तोंड धांपून राव.''

नाऱ्यान 'आं' म्हणिल्लें. लग्नापयलींचे चार दीस बरे गेले. नाऱ्यान मातूय तोंड उगडलें ना. लग्नाकारांक बरें दिसलें.

लग्नाचो दीस आयलो. सकाळींच शेनाय-चौगुडो वाजूंक लागलो. शेनायेचे सूर वाड्यार वचूंक लागले. माटवांत लोक जमले. अक्षदा वाटल्यो. म्हूर्त लागीं पावलो आनी अकस्मात नाऱ्याचें चाळवलें. तो कित्याय कितें उलोवंक लागलो. कोणाकडेन तरी वोगीच झगडूंक लागलो. लोक थांबोवंक गेले तर कसोय आयकना. जालें, माटवांत बोवाळ सुरू.

निमाणें कोणें तरी एकल्यान ताका समजायलो आनी सांगलें, ''आरे, चार दीस तूं सामको शाण्याभशेन वागलो आनी आतांच रे पुता किते जालें अशें झगडूंक? आयचो एकूच दीस वोगी राव. हें लग्न जालें म्हणजे तुका जाय तें माग. तुका दितां.''

हें आयकून नाऱ्यान म्हळें, ''बरें आसा, म्हाका पिंडाक दिता तशें शीत दी. तें भकतां आनी पडटां हांगा. मागीर न्हवऱ्या व्हंकलेचें पाड पडलें वा माटवाक उजो लागलो अथवा यजमान मेलो तरी तोंड उगडना.''

हें आयकून लग्नकारांक आयलो राग आनी तांणी ताका बडय बडय बडयलो.

नारो थंयसून आयलो तो हाचेमुखार कांयच वायट उलोवचो ना असो निश्चेव करून. पळोवया कितलो तेंप तो वोगी बसता तें!

१२

# सोंसो आनी कांसव

एक आशिल्लो सोंसो आनी एक आशिल्लो कांसव. दोगूय सामके लागींचे इश्ट आशिल्ले. भुरग्यांनो, तुमकां खबर आसा न्हय, कांसव म्हणटा तो उदकांत रावता, तो बरो पेवंक जाणां. पूण जमनीर आयलो तर ताच्यान धावंक जायना. तो ल्हवू ल्हवू चलता. हाचे उरफाटें सोंसो. तो रानांनी रावता. धांवपांत ताचो हात धरपी कोणूच ना.

ह्या सोंशाक आपल्या धांवपाचो खूब्ब गर्व आसलो. आपूण कोणाकूय हारोवंक शकतां अशें ताका दिसतालें. आनी तें लटीक नासलें. तो कोणायवांगडा पैज मारतालो आनी धांवपांत पयलो येवन ती पैज जिखून दाखयतालो. देखूनच सोंसो येतल्या-वतल्याक आपणांवांगडा धावंक आपयतालो आनी ते आयले नात म्हणजे तांचीं हांसून फकाणां मारतालो. सदांच सोंसो हड्डें मुखार काडून चलतालो, जसो कितें संवसारांत आपणाक हारोवंक कोणूच जल्मूंक ना.

तो सदांच आपल्या इश्टाचीं, कांसवाचीं फकाणां मारतालो. बाबडो कांसव ल्हवू ल्हवू चलता देखून ताका हिणसायतालो. कांसव तोंड धांपून तें आयकून घेतालो. एक दीस मात सोंशाचें अतीच जालें. ताणें कांसवाक धांवपाची पैज लावया सांगलें. सोंशाक ह्या दिसांनी कोणूय पैज मारूंक मेळूंक नासलो आनी ताका तर पैजेची सामकी खुमखुमी. देखून ताणें कासवाकडेनूच पैज मारपाचें थारायलें. कांसवाक आपली चाल खबर आसली. इतले ल्हव चालीन आपूण पैज जिखूंक पावचों ना हें जाणा जाल्ल्यान तो पैज मारूंक फाटींफुडें सरूंक लागलो. पूण सोंशान ताका सामको भरीक घालो आनी निमाणें कांसवाच्यान ना म्हणूंक जालें ना. ताका हयकार दिवचोच पडलो.



दीस पडटा म्हळयार ही खबर सगल्याक जाली. सोंशान आनी कांसवान धांवपाची पैज मारल्या म्हणपाचें सगल्यांक कळळें. सगले जाण हाचेर चर्चा करूंक लागले. कांसव हारतलो म्हणपाचें सगल्यांक कळिल्लें. तरी ताणें ही पैज मारलीच कशी हाचेर हेरांची चर्चा चलताली.

जालें. करतां करतां धांवपाचे सर्तीचो दीस उदेलो. सगलेजाण कोण पयलो येता तें पळोवंक रावले. कोण पयलो येतलो तें सगले जाणाच आसले, तरी कांसव कितलो वेळ काडटा तें पळोवंक सगळे जमिल्ले.

सर्त सुरू जाली. कांसवान दोन पावलां मारचे पयलींच सोंशान अर्द वाट सोंपयल्ली. कांय वेळ धांवले उपरांत सोंशान फाटल्यान वळून पळयलें. कांसव बाबडो सवकासायेन येतालो. सोंशान विचार केलो, कांसव ही वाट चलून येतासर सहज आदेस वतलो. आपणें तो वेळ मेरेन



न्हीद काडल्यार बरी. एक दोन वरां न्हीद घेतली तर मुखार धांवक बरें जातलें. ह्या विचारान सोंसो एका झाडापोंदां लवंडलो.

एक दोन वरां न्हिदतलों म्हणून जो सोंसो लवंडलेलो ताका बरोच वेळ न्हीद लागली. हेवटेन कांसव ल्हवू ल्हवू चलत सोंसो न्हिदिल्लो थंय पावलो. ताणें सोंशाक न्हिदिल्लो पळयलो आनी तसोच मुखार सरलो.

बऱ्या वेळान सोंसो जागो जालो. दीस धारेर पाविल्लो. आपूण बरोच वेळ न्हिदून उरलों म्हणपाचें ताका कळ्ळें. तो बेगीबेगीन उठलो. ताणें वाटेर रावन फाटल्यान पळयलें. ताका कांसव काय दिसलो ना. अजून अर्द वाटच चलूंक ना दिसता. आपुणूच पयलीं पावतलों अशें चितूंन ताणें धांव मारली.

सर्त सोंपपाच्या जाग्यार वचून पळयल्यार कितें? कांसव आदींच थंय पाविल्लो आनी हेर कांसवांनी ताका उखलून माथ्यार घेतिल्लो. सोंशाक सामकी लज जाली आनी ताचो गर्व त्या खिणाक ना जालो. ताणें उपरांत केन्नाच धांवपाची पैज म्हणटा ती मारली ना.

❒ ❒ ❒

१३

# एकचाराचें मोल

एका गांवांत एक पारदी रावतालो. तो दर दिसा आपणालें जाळें घेवन रानांत दोंगरार बी भोंवतालो आनी सुकणीं धरून तीं विकतालो आनी आपलें पोट भरतालो. बाबडीं सुकणीं ह्या पारद्यापासून आपणाक राखूंक पळयतालीं. पूण तांकां चड तेंप आपली राखण करूंक जमच नासलें.

अशाच एका गांवांत एका झाडाचेर कांय सुकणीं घोंटेर करून राविल्लीं. तांचे वांगडा एक कावळोय रावतालो. हो कावळो बुद्दीन बरोच हुशार आसलो. एक दीस ह्या कावळयान पारद्याक जाळें घेवन त्या झाडावटेन येतना पळयलो. पारद्यान आपल्या झाडावेलीं सुकणीं पळयल्यांत आसतलीं आनी तांकां धरूंक तो येता म्हणपाचें कावळयान ताडलें आनी तो बेगीबेगीन झाडार परतो आयलो.

कावळयाक रोखडोच परतल्लो पळोवन सुकणीं अजापलीं. कारण, कावळो जो सकाळफुडें फिरतेर वतालो, तो रात पडलेबगर कसोच घोंटेरांत येनासलो. तो कावळो असो ताकतिकेन परतलो कित्याक? हो प्रस्न सुकण्यांक पडलो. कावळयान तांकां सांगलें, ''एक पारदी तुमकां धरूंक येता. तो आपलें जाळ जमनीर घालतलो आनी ताचेर तांदूळ शिंपडटलो. तुमी जेन्ना तांदळांचे आशेन थंय वतलीं. तेन्ना जाळांत आडखळून थंयच उरतलीं आनी मागीर पारदी तुमकां धरतलो. देखून, तांदळांक भुलून पारद्याच्या जाळांत घुसपूंक वचूंक नाकात.''

सगल्या सुकण्यांक कावळो कितलो चलाख तें खबर आसलें. तांणी ताचें आयकून त्या झाडारूच रावचेलें थारायलें.

इतल्यांत पारदी आयलो आनी ताणें जमनीर जाळ मांडलें. उपरांत जाळार तांदूळ शिंपडायले आनी तो सुकण्यांची वाट पळयत एका झाडा आडसाक बसून रावलो. सुकण्यांक पयलींच कळिल्ल्यान तीं शादूर जाल्लीं. तांणी त्या तांदळांकडेन लक्ष दिलें ना.

इतले म्हणसर कांय सुकणीं जीं सकाळींच भायर सरून गेल्लीं तीं परतीं घोंटेरांत आयलीं. येतां येतां तांणी वाटेर शिंपडायल्ले तांदूळ पळोवन तांचेर झोंपय मारली. बाबडो कावळो हेवटेन आड्डून तांकां तांदळांचे वाटेक वचूं नाका म्हूण सांगतालो. ताचेर त्या सुकण्यांचें लक्षूय गेलें ना आनी अचळय वचून तीं जाळांत सांपडलीं...

...४४



पारद्याक एकदम कितलींशींच सुकणीं जाळांत पडिल्लीं पळोवन खोस जाली. झाडावेल्या सुकण्यांक मात दुख्ख जाल्लें. कावळयाक मात आपूण सांगतालों ताचेर तांणी लक्ष दिलेंना हाचो राग आयलो. पूण कावळो इतल्यान हार मानपी नासलो. ताणें आड्डून त्या सुकण्यांक सांगलें, ''तुमी सगलीं वांगडा उडात. अशेतरेन जोर लायात की तें जाळ तुमचेवांगडा उडटलें.''

एका सुकण्यान म्हळें, ''पूण हें जाळ घेवन आमी खंय वचप? आनी तांतल्यान सुटप कशें? कोण भायर काडटलो आमकां?''

कावळयान म्हळें, ''ताची चिंता तुमकां नाका. तुमी म्हजेफाटल्यान उडत येयात. म्हजो एक इश्ट आसा. हुंदीर. तो तुमकां जाळांतल्यान सोडयतलो.''

हें आयकून सगलीं सुकणीं एकावांगडा उडलीं आनी पारदी पळयता थंय आसा, जाळ मळबांत पावलें. पारदी तांचेफाटल्यान धांवक लागलो. पूण कितलो वेळ धांवतलो? आपूण



फटवलों, नागवलों, सुकण्यांनी आपणालें मोलादीक जाळ व्हेलें म्हणून आड्डत घरा परतलो.

तेवटेन कावळो त्या सुकण्यांक घेवन हुंदरागेर गेलो. हुंदरान कावळयाचे सांगणेवेल्यान जाळ तोडून त्या सुकण्यांक सोडलीं. उपरांत ताणें विचारलें, ''इतलें जड जाळ ही सुकणीं कशें कितें घेवन आयलीं?''

कावळयान म्हळें, ''हें एकवटाचें मोल. हीं जर फकत आपुणूच स्वता कशें सुट्टलें हाचो विचार करून आपापले परीन उडिल्लीं तर तीं सुटूंक पावचीं नासलीं आनी पारदी तांकां धरून व्हरतलो आसलो. पूण जेन्ना ह्या सगल्यांनी मेळून जोर लायलो, तेन्नाच तांच्यानी जाळ उखलूंक जालें आनी हांगा येवन तीं जाळांतल्यान सुटलीं.''

एकूण कितें, एकचार आसल्यार कसलेंय काम करूं येता.

❒ ❒ ❒

## १४

# जिवाणें आनी बेबूक

एका व्हाळाचे देगेर एक जिवाणें रावतालें. ताणें व्हाळांत रावपी बेबकां खावन आपणालें आतांमेरेनचें जिवीत सारिल्लें. आतां तें म्हातारें जाल्लें. ताच्यान हेवटेन तेवटेन उडयो मारूंक जायनासलें आनी देखून बेबकांच्या फाटल्यान लागप ताका जमनासलें. आनी ताका लागून ताच्यान आपलें पोट भरूंक जायना जालें.

एक दीस ताका एक युक्ती येवजली. तें दुयेंत जाल्लेवरी ल्हवू ल्हवू झेमेत झेमेत एके न्हंयचे देगेर गेलें आनी थंयच कुशीक आड पडलें. एका बेबकान ताका पळोवन म्हळें, 'ये मावशे, आज कितें नवीदादशी? आमकां पळोवप लेगीत ना. आमकां खावन खावन वीट आयलो काय कितें?''

म्हाताऱ्या जिवाण्यान न्हिदिल्लेकडसून जाप दिली, ''पुता, आतां जिवाचोच वाज आयला. देखून जितले दीस जगतलों, तुमकां खेळयत, तुमचें वजें व्हांवयत जगतलों.''

बेबकान विचारलें, ''तें कशें?''

जिवाण्यान सांगलें, ''राती जेन्ना हांवें एका बेबकाचेर झोंपय मारली, तेन्ना तें बेबूक टुण्ण करून उडी मारून गेलें. आनी बद्द पुजेक बशिल्ल्या भटांमदीं वचून लिपलें. म्हाका भूक




लागिल्ली आनी काळोखूय आसलो. हांवें बेबूक समजून एका भटाच्या भुरग्याचो पांय धरलो आनी ताच्या बोटाक घांस मारलो. तो भुरगो वीख चडून मेलो. ताच्या बापायन-भटमामान-

म्हाका शिराप दिलो की, म्हाका उरिल्लें जिवीत तुमचे सेवेक वगडावचें पडटलें आनी तुमी जें किते दितात तें खावनूच जगचें पडटलें.''

हें आयकून त्या बेबकाक खोस भोगली. ताणें वचून ती खबर हेर बेबकांक दिली. बेबकांक जिवाण्याची चाल कळ्ळी ना. तांणी ताचेर विस्वास दवरलो आनी तीं ताच्या आंगाखांदार खेळूंक लागलीं. जिवाण्यान तांकां हेवटेन तेवटेन फिरोवन हाडलीं. बेबकां खोशी जालीं. तांच्या जिवीतांत तांणी केन्ना जिवाण्याकडेन इतली इश्टागत करूंक नासली.

दुसऱ्या दिसा बेबकां त्या जिवाण्याकडेन खेळूंक लागलीं. आज जिवाणें सवकास चलतालें. सामकें नजो जाल्लेवरी सुस्तावल्लेवरी आसलें तें. ताका बेबकान विचारलें, ''मावशे, आज कितें जालां?''

जिवाण्यान म्हळें, ''कालच्यान उपाशीं आशिल्ल्यान म्हज्यान चलूंक जायना. सामकें अशक्त पडलां हांव.''

बेबकाक ताची काकूट दिसली. ताणें म्हळें, ''जेन्ना भूक लागता तेन्ना तुज्यान ल्हान ल्हान बेबकां खावन पोट भरूं येता.''

जिवाण्याक तितलेंच जाय आसलें. तें आतां बेबकाचे सांगणेवेल्यानूच बेबकां खावंक लागलें. ल्हवू ल्हवू ताणें सगलीं बेबकां खालीं आनी आपूण मोटें जालें. एक दिसा ताचेवांगडा जेन्ना पयलींच मेळिल्लें तें बेबूक खेळूंक आयलें, तेन्ना ताणें पळयलें, आपणाबगर हांगा दुसरीं बेबकां नात. ताणें जिवाण्याक विचारलें, ''मावशे, हेर बेबकां खंय गेलीं?''

जिवाण्यान जाप दिली, ''आतां तूं वतलें थंयच तीं गेल्यांत!''

बेबूक कितें समजुपाचें तें समजलें आनी जिवाण्याचेर विस्वास दवरून आपणें केदी चूक केली तें ताका कळ्ळें. आपलो तरी जीव आतां वांचोवचो म्हूण ताणें उडी मारपाचो यत्न केलो. पूण तो वेळमेरेन जिवाण्यान ताका धरिल्लेंच.

देखून, दुश्टांचेर केन्नाच विस्वास दवरचो न्हय!




१५

# गाढवाचो मेंदू

एका रानांत एक वाग रावतालो. हो वाग खुबूच मस्तो आसलो. रानांतल्या हेर सावदांकडेन झगडीं उप्रासून तांचेर घुरी घालप आनी तांकां मारून आपणाली भूक भागोवप हो ताचो नित्य नेम आसलो. कोणाचेरूय घुरी घालतना तो आपणाली शक्त पळयनासलो. असोच एक दीस एका हतयाकडेन झगडटना हतयाच्या पांयांमुळां चिड्डून वागाचे दोन पांय मोडले. वाग अपंगूळ जावन पडलो. जो वाग आजवेर मस्तेंत वावुरिल्लो ताका दुसऱ्याचे पांगेंत रावन जगचें पडलें. बाबडो वाग कितें करतलो?

आतां वागाक दर दिसा उपास घडूंक लागले. निमाणें एक दीस वागान कोल्याक म्हळें, ''कोलेमाम, म्हजे निमाणे दीस लागीं आयल्यात. आतां मरचेपयलीं तरी बरें खावंक मेळचेंशें दिसता. तेन्ना उपकार करून कितें तरी शिकार मेळटा तर पळय.''

कोल्यान विचार केलो. हाचे निमाणे दीस जर आयल्यात तर कित्याक हाका कितेंय खाण मेळोवन दिवचें न्हय? मरतना तरी तृप्त जावन मरूं दी बाबड्याक. आनी कोलो रानांत कितेंय शिकार मेळटा काय पळोवंक गेलो.

वतां वतां ताका एक गाढव चरतना दिसलें. कोलो गाढवासरीं गेलो आनी ताचेकडेन गोड गोड उलोवन इश्टागत जोडली. उपरांत ताणें गाढवाक म्हळें, ''हांगा कितें आसा धरपाक? तूं म्हजेवांगडा यो, हांव तुका रानांत व्हरून बरो चरोव दाखयतां.''



गाढवूच तें. ताचो रोखडोच कोल्याच्या उलोवपाचेर विस्वास बसलो आनी तें ताचेवांगडा वचूंक लागलें. कोलो ताका घेवन बद्द वागासरीं गेलो. गाढव म्हऱ्यांत पावपाचेंच आसलें,

वागान आपले पांय मोडल्यात हें विसरून ताचेर उडी घाली. पूण उडी चुकली आनी गाढवान धांवपाक सुरवात केली. वागाच्यान धावक जाय नासलें. तो धांवतल्या गाढवाक पळयतच उरलो.

कोल्याक वागाचो राग आयलो. तो ताचेर तापून म्हणूंक लागलो, ''इतली बरी शिकार तुका हाडून दिली आनी तुवें मातूय थार नाशिल्लेवरी उडी मारून ती वगडायली. आतां बस उपाशींच. हांव चल्लों.'' बाबडो वाग, ताची चूक जाल्ली खरी. तो कोल्याचे सामके काकुटेक आयलो. म्हणूंक लागलो, ''कोलेमाम, तुवें तापप सभावीक. म्हजी चूक जाली खरी. एकवेळ म्हाका भोगशीय आनी उपकार करून कितेंय तरी खांवक हाडून दी.''

वाग सामको पांयां पडूंक लागलो आनी कोल्याक ताची काकूट दिसली. तो परत भायर सरलो आनी त्या गाढवासरीं गेलो. ताका पळोवन गाढव तापूंक लागलें. म्हणूंक लागलें, ''तूं म्हाका त्या वागाचे भकीक घालूंक सोदतालो. इश्ट काय दुस्मान रे तूं?''

कोलो ताका समजावंक लागलो. म्हणूंक लागलो, ''तूं वोगीच धांवलें. त्या वागाच्यान तुका खावंक जाता? तो पयलींच अपंगूळ. ताका भियेवन तुवें चरोव मात वगडायलो.''

कोल्यान अशे तरेन सांगलें की गाढवाक खरेंच दिसलें आनी तें परतें कोल्यावांगडा रानांत आयलें. ह्या वेळार मात वागान ताका सारकेंच म्हऱ्यांत येवंक दिवन मागीर ताचो जीव घेतलो. गाढवाच्या आंगाचो थोडो भाग खातकूच वाग लागींच आशिल्ले तळयेर उदक पियेवंक गेलो. हेवटेन कोल्याच्या तोंडाक उदक सुटलें. वाग उदकाक गेलोसो पळोवन ताणें गाढवाचो मेंदूच खावन उडयलो.

उदक पियेवन वाग परतलो, तर गाढवाचो मेंदू ना जाला. वागान कोल्याक विचारलें, ''हांव ना अशें पळोवन गाढवाचो मेंदू खालो काय कितें रे? इतलो बेमान जालो तूं?''

कोल्यान म्हळें, ''गाढवाक मेंदू आसलो तर?''

''म्हळयार? जनावराक म्हूण मेंदू आसना?'' वागान विचारलें.

''वागमाम, गाढवाक मेंदू आशिल्लो जाल्यार एकदां तुमचे तावडेंतल्यान सुटिल्लें गाढव परत येवन तुमचे भकीक पडटलें आसलें व्हय?''

वागाक कोल्याचें म्हणणें पटलें आनी तोंड धांपून ताणें उरिल्लें मांस खावंक सुरवात केली आनी कोलो मेंदू पचलो म्हूण पोटावेल्यान हात भोंवडायत आपले वाटेन गेलो.

❒ ❒ ❒

## १६

# बरी बुद्द शिकलें

ही खबर खूब पयलींची. त्या तेंपार गाड्यांसारकीं वाहनां नासलीं. लोक चलतच प्रवास करताले. वेपारी बी आपणालें सामान गाढवांच्या फाटीर घालून हाड व्हर करताले, देखून तांकां गाढवां पोसचीं पडटालीं.

तर अशाच एका वेपाऱ्यान आपणालेंय सामान हाड व्हर करचेखातीर कांय गाढवां पोशिल्लीं. ताचो धंदो बरे तरेन चलतालो. देखून ताका दर दिसा दुसऱ्या गांवांतल्यान सामानाच्यो पोटल्यो हाडच्यो पडटाल्यो.

बाबडीं गाढवां दर दिसा हेवटेन तेवटेन भोंवचें पडटा, म्हूण बेजारतालीं. पूण नशिबांतलें काम काडूं येता? जल्म तर गाढवाचो घेतला, अशें म्हणून निमाणें तीं मोन्यांनी सामान व्हांवयतालीं.

पूण हांतल्या एका गाढवाक मात कामाचो सामको कंटाळो येतालो. ह्या कामाच्या तडाक्यांतल्यान सुटचेखातीर तें जायते यत्न करतालें. पूण तें जितलें चड यत्न करतालें, तितलें ताच्या वांट्याक चड काम येतालें.

एक दीस तर चडूच जालें. वेपाऱ्यान गाढवांचे फाटीर चडूच सामान घालें. बाबड्यांक एक पावल मुखार मारूंक लेगीत जड वचूंक लागलें. कशीं तरी पांय वोडीत तीं चलूंक लागली. तेन्ना तांणी बेगीन वचचें म्हणून वेपाऱ्यान तांचे फाटीर चार बडयो वोडल्यो.



रस्त्यांत मदींच एक न्हंय लागताली. तेन्ना न्हंयचेर पूल बी खंयचे? लोक उदकांतल्यानूच चलत वेताले. वेपाऱ्यान बडयो मारल्यो. तेन्ना गाढवां उदकांतल्यानूच वतालीं. बडयो पडटकूच तांणी नेटान पांय उबारूंक सुरवात केली. आनी त्या यत्नांत एक गाढव निसरलें आनी उदकांत पडलें.

जाका कामाचो सामको वाज येतालो तेंच गाढव आसलें तें! ताचे फाटीर वेपाऱ्यान मिठाचे साक दवरिल्ले. गाढव उदकात पडलें आनी केदो वेळ ताका उठूंक येना जालें. पोटल्यो पडल्यो उदकांत. मिठाच्यो पोटल्यो उदकांत पडटकूच आनी कितें जातलें? जें जावपाचें तेंच जालें. मीठ पगळ्ळें आनी पोटल्यो जाल्यो रिकाम्यो!

गाढवाक एक नाट मेळिल्ली. पोटली उदकांत पडल्यार रिकामी जाता म्हणपाचें ताका कळिल्लें. आतां सदांच अशेंच करप म्हणपाचें ताणें चिंतिल्लें.

वेपाऱ्याक मीठ जायच आसलें. देखून ताणें त्याच गाढवाक परत दुसऱ्या गांवांत व्हेलें आनी मिठाचे साक भरून हाडले. पूण न्हंयचेर  पावतकूच परत गाढवान उदकांत बसकण मारली आनी पोतयो रिकाम्यो केल्यो. अशें दोन चार वेळां जालें, तेन्ना वेपाऱ्याचे तकलेंत उजवाड पडलो. ह्या गाढवाक बरी बुद्द शिकोवची अशें ताचे तकलेंत आयलें.

दुसऱ्या दिसा ताणें कापसाच्यो पोटल्यो बांदून गाढवाचे फाटीर दिल्यो आनी ताका घेवन वचूंक लागलो. सदचे वरीच न्हंयचे देगेर पावतकूच गाढवान उदकांत बसकण मारली. वेपाऱ्यान कांयच हूं वा चूं केलें ना. कांय वेळा उपरांत ताचेर चार बडयो मारल्यो.

पोटल्यो रिकाम्यो जाल्या जातल्यो हे समजुतीन गाढव नेटान उठलें खरें. पूण पोटल्यो रिकाम्यो जावचे जाग्यार कापसांत उदक भरून वजें वाडिल्लें. फाटीर वजें आनी वेपाऱ्याचो मार अशे दोट्टी दुखीन गाढव उठलें आनी रस्त्याक लागलें. तें बरीच बुद्द शिकिल्लें.

ताचे मुखार मात ताणें केन्नाच उदकांत बसपाचें धाडस केलें ना.

❐ ❐ ❐

१७

# नशिबांतलें चुकता?

गाढवान आपली अक्कल वापरून मिठाचोभार उणो केलो खरो. पूण ते उपरांत मात ताच्या नशिबांत फकत त्रास आनी मार आयले. वेपारी त्या गाढवाक आतां चडांत चड कामाक लायतालो आनी ताणें पळय जें लुकसाण केल्लें, ताची भरपाय करपाचो यत्न करतालो. बाबड्या गाढवाक आपणाक खंयची पाडी बुद्द जाली आनी आपूण उदकांत बसलें अशें जालें.

गाढवाक काम भरपूर मेळटालें. पूण खावंक मात कांयच मेळनासलें. सांजवेळ जाली आनी काम सोपलें म्हणटकूच उश्ट्यावाऱ्यार भोंवन जें कितें मेळटा, तें पोटांत उडोवचें पडटालें. पूण उश्ट्यावाऱ्यारूय कितें मेळटलें म्हळें तर हेर गाढवां पयलींच येवन उश्ट्या वारो उस्तितालीं. ह्या गाढवाक चड काम पडिल्ल्यान ताका थंय येवंक उशीर जातालो आनी चडशो राती बाबड्याक उपाशींच सारच्यो पडटाल्यो.

उपाशी पोटार न्हीद कशी येतली? तातूंत दुसऱ्या दिसाच्या कामाचें वजें तकलेर आसतालेंच. गाढव दर रातचें येवजितालें, मुखार कितें करचें? कितें केल्यार धनयाक दया येतली? ताचें मन कशें आपले वटेन येतलें? कितें केलें तर तो खोशी जावन आपले त्रास उणे करतलो? पूण ह्या प्रस्नांच्यो जापो ताका मेळनासल्यो. गाढवूच तें. ताची अक्कल कितली म्हूण चलतली?

एके राती अशेंच चितीत बशिल्लें आसतना ताणें शेजाऱ्यालें सुणें व्हडव्हडान भोंकतना आयकलें. ताच्या आवाजान घरांतलीं मनशां जागीं जावन हातांत लाटण (लापयांव) घेवन भायर आयिल्लीं गाढवान पळयलें. हेवटेन तेवटेन कोण धांविल्ले आवाज आयले आनी कांय वेळान त्या घरांतलीं मनशां कोणाक तरी धोडायतना गाढवान पळयलें. त्या बोवाळान शेजारचेय हेर लोक जागे जाले आनी त्या घराकडेन गेले. ते लोक परततना उलयताले, ताचेवेल्यान त्या घरांत चोरूंक आयिल्ल्या चोराक सुण्यान धरून दिलो म्हणपाचें गाढवाक कळ्ळें. लोक त्या सुण्याक तोखेताले.

दुसऱ्या दिसा त्या सुण्याच्या घरच्या लोकांनी ताका गोडधोड करून वाडिल्लें गाढवान पळयलें. दर एकलो त्या सुण्याची तुस्त करतालो. गाढवाच्या मनांत आयलें, आपणें असोच चोराक धरून दिलो तर आपलोय धनी आपली अशीच तोखणाय करतलो. पूण चोराक कसो धरप? चोरान आपल्या धनयाचे घरा चोरूंक येवं नाका? ताणें त्या दिसाच्यान देवाकडेन मनांतल्या मनांत मागूंक सुरवात केली. देवा, म्हज्या धनयाच्या घरांत चोर येवंदी.

पूण गाढवान मागलें आनी देवान चोर धाडलो अशें घडूंक आयलां व्हय? गाढव दर दिसा मागतालें आनी चोर येना तें पळोवन निर्शेतालें. अशेच कांय दीस गेले आनी एक दीस खऱ्यांनीच एक चोर धनयाच्या घराकडेन येतना गाढवान पळयलो. गाढवाक सामकी खोस जाली. आतां आपूण ह्या चोराक धरून दितलें आनी धनी आपली तोखणाय करतलो. आतां आपल्या नशिबांतले सगले त्रास, मार चुकतले हे खोशयेन गाढव त्या चोराक घरांत भितर सरतना पळोवंक लागलें. चोरान दारांत पावल दवरलां मात, गाढवान व्होकेवंक सुरवात केली. तें व्हडाव्हडान आवाज करूंक लागलें.

वेपारी दिसभराच्या वावरान पुरो जावन सुस्त न्हिदिल्लो. गाढवाच्या आड्डुपान तो जागो जालो. खंयचो वाग आयला काय हाका खावंक अशें चितीत तो उठलो. हातांत दांडो आनी लाटण घेवन भायर आयलो. चोर सामको शादूर आसलो. ताणें घरांतल्यान कोणतरी येता हाची सुलूस लागनाफुडें फाटल्या पावलांनी धांव मारली.

वेपारी भायर आयलो. ताणें हेवटेन तेवटेन पळयलें, खंयचेकडेन कोण नासलो. गाढवाच्या



आड्डुपान आपली न्हीद खळ्ळी ह्या रागान ताणें हातांतल्या दांड्यान गाढवाची फाट बरीच मोव केली.

बाबडें गाढव..... गेल्लें बरें करूंक. पूण नशिबांतलें म्हूण काडूं येता? ताका मेळ्ळो मार! आनी दुसऱ्या दिसाच्यान ताचें काम आनीक वाडलें. गाढव आपणाक त्रास जावंचो म्हूण अशें करता असो वेपाऱ्याचो समजूच जाल्लो. बाबडें गाढव नशिबांतलें चुकना म्हणून त्रास काडटालें.

❒ ❒ ❒

१८

# गाढव तें गाढवूच

बाबड्या गाढवाक वागणूक मेळटाली ती सामकी उणाक. एक तर गाढवान उदकांत बसून आपणाक व्हड लुकसाण केलें हाची तिडक वेपाऱ्याक आसली आनी दुसरें म्हळयार गाढव चोर धरपाच्या नादान जें व्हडा व्हडान आड्डुलें तें आपली न्हीद खळोवंक आनी आपणांक सतावंक अशे समजुतीन वेपारी ताचेर आनिकूय रागार जाल्लो. परिणाम, गाढवाक वेळार खाण मेळना जालेंच, वेल्यान मरसर काम करचें पडूंक लागलें.

आतां पोटाक सारकें मेळना जाल्यार काम तरी कशें जातलें? पूण गाढवाची पर्वा आसा कोणाक? निमाणें गाढव मेळत थंय भोवंक लागलें. कोणाच्या पोरसांत वच, कोणाच्या शेतांत वच. पूण लोक वोगी रावंक आयल्यात? गाढवाक खाण मेळप सोडून दी, वेल्यान मार मात मेळटालो.



गाढव बाबडें जिवाक सामकें वाजेल्लें. आतां तें मरण बेगीन कशें येत हाचेर चिततालें. अशेंच एक दीस चितीत चितीत तें गाढव रस्त्यान वतना वाटेंत ताका वागाचें चामडें पडिल्लें

...५६

दिसलें आनी अकस्मात गाढवाक नवो जल्म मेळिल्लेवरी जालें. वागाक लोक भियेतात हें तें जाणा आसलें. ताणें बेगीबेगीन तें चामडें उबारलें आनी एका जाग्यार लिपोवन दवरलें.

गाढव आतां रात केन्ना जाता हाची वाट पळोवंक लागलें. करतां करतां रात जाली आनी गाढवान लिपोवन दवरिल्लें चामडें काडलें. हेवटेन तेवटेन लोळत म्हणटात तशें आपल्या आंगार पांगुरलें आनी काळखांतल्यान चलूकं लागलें. लागींच एक शेत आसलें. गाढव तातूंत भितर सरलें. भितर सरतना हरशीं तें भियेल्लें. कोणूय दांडे बी घेवन आपणाक मारीत ही भिरांत मनांत आसलीच. जरी चामडें वागाचें पांगुरलें तरी मन गाढवाचेंच आसलें.

गाढव शेतांत भितर सरिल्लें, तेन्ना शेत राखूंक तीन चार मानाय राविल्ले. तांणी गाढवाक शेतांत भितर सरतना पळयल्लें. पूण ताणें वागाचें चामडें पांगुरिल्ल्यान तांकां रातच्या काळखांत तो वागूच कसो दिसलो आनी ते भियेवन धांवत सुटले. आपणांक कोण तरी भियेला हें पळोवन गाढवाक बरें दिसलें. ताणें पोटभर शेताची पालय खाली आनी बरो व्हडलो धेंकर दीत घरा परतलें.

गाढवाक आतां एक बरी युक्त मेळिल्ली. दर रातचें कोणाच्या तरी शेतांत वचप आनी पोटभर खावन घरा येवप. दीसभर मागीर तें ताणून दितालें. अशें कांय दीस घडलें आनी गांवभर गांवांत वाग आयिल्ल्याची खबर पावली. कशेंय करून वागाक धरूंक वा मारूंक जाय आसलें. ना तर तो कोणाक तरी खालेबगर रावचो ना. अशी भिरांत गांवकारांच्या मनांत जाली. आतां कितें करप हो प्रस्न तांकां सतावंक लागलो.

हेवटेन गाढवाक चरबी चडिल्ली. आतां ताका फुक्यासवाय खावंक मेळटालें. पूण नशिबांतलें काम मात चुकनासलें. ह्या वेपाऱ्याक कशी तरी बुद्द शिकोवंक जाय अशें ताका सदांच दिसतालें. आनी एक दीस ताच्या मनांत आयलें, आपूण वागाचें चामडें पांगरून वेपाऱ्याकूच भेश्टायल्यार कशें? जेन्ना गांवभर लोक आपणाक भियेतात, तेन्ना ह्या वेपाऱ्याक आपणें कित्याक भियेवंक जाय?

अशें चितून ताणें सकाळींच आंगार वागाचें चामडें चडयलें आनी पयलीं थोडें खावन घेवंया आनी उपरांत वेपाऱ्याची खबर घेवंया अशें चितून ताणें लागींच्याच शेताचेर आपणाली नदर व्हेली.

गाढव शेतांत गेलें, तेन्ना शेतकारांनी वागाक मारपाची तयारी चलयल्ली. वाग इतले दीस रातचो येतालो. आतां दिसाचोय पळोवन सगले भियेले, पूण खिणांत तांकां हो वेगळेतरेचो वाग पळोवन अजापशें जालें. आनी ते ह्या नव्या वागाक पळोवंक थंयच उबे रावले. इतले दीस

रातच्या काळखांत गाढवाचें सादिल्लें. आतां दिसाचेंय तें सादतलें अशें ताका दिशिल्लें.

शेतकार आपणांक पळयत उबे आसात म्हणपाचें पळोवन तांकां भेश्टावंक म्हूण गाढवान गरड घाली. वागाचें चामडें पांगुरलें म्हूण कितें आवाज वागाचो जावंचो पडला? गाढवाचें आड्डप आयकून शेतकारांक हो वाग कोण तें कळ्ळें आनी रातचो होच वाग शेतांची नाशाडी करतालो हें लक्षांत येवन तांणी गाढवाक मर मरसर मारलें. बाबडें गाढव! ताका खंय खबर, चामडें पांगुरलें म्हूण सवंग रंगना म्हूण! निमाणें गाढव तें गाढवूच.

❒ ❒ ❒

१९

# दुसऱ्याचें आयकलो तो सोंपलो

फाटल्या काणयांनी गाढवाचीं कर्तुपां तुमी वाचलीं न्हय? तर गाढवाच्या ह्या कर्तुपांनी वेपारी सामको जाम जालो. गाढव शेतांत वचून लोकांचें लुकसाण जाल्ल्यान तें वेपाऱ्याक भरून दिवचें पडलें देखून ताणें थारायलें, ह्या गाढवाक घरांत दवरून नस्ती कटकट आंगार घेवचेपरस हें गाढव विकून उडयल्यार बरें. वेपाऱ्यान हाका ताका सांगून त्या गाढवाक गिरायक पळयलें आनी तें विकून उडयलें.

वेपाऱ्यान कटकट नाका म्हूण विकिल्लें गाढव घेतल्याक बरेंच सवाय पडिल्लें. आपूण आतां ह्या गाढवाचो बरोच लाब करून घेतलों अशें चितीत ताचो नवो धनी आनी ताचो पूत गाढवाक घेवन वचपाक लागले. गाढवाक खाण मेळूंक नाशिल्ल्यान तें बाबडें हाडकुटें जाल्लें.



देखून ताचेर बसनासतना धनी आनी ताचो पूत चलत वचूंक लागले.

कांय वेळ चल्ले उपरांत मुखावेल्यान कांय लोक येतना तांकां दिसले. ते लोक म्हऱ्यांत पावले आनी तांतले कांय जाण गाढव आनी ताच्या धनयाक पळोवन हासूंक लागले, ''काय बरें सांगाताक गाढव आसतना एकल्यान ताचेर बसचें सोडून चलत वतात, पिशे कशे! एकल्यान तरी

बसपाचें ताचेर?''

गाढवाच्या धनयान तें आयकलें. ताका दिसलें, आपणें खरेंच पिशेपणां केलीं, एकल्यान कोणेंतरी ताचेरच बसपाचें. पूण कोणें बसप? आपणें कांय पुतान? कांय वेळ चितून ताणें थारायलें, आपूण जाण्टो, पूत भुरगो. देखून ताकाच बसोवचो.

आनी पुताक गाढवाचे फाटीर बसोवन तो मुखार वचूंक लागलो. कांय वेळ चल्ले उपरांत मुखावेल्यान दोग जाण चलत येताले. तांणी हांकां वतना पळयले आनी एकल्यान म्हळें, ''कितें रे बाबा, तरणाटो बसला आनी म्हातारो चलता! शी बाबा!''

हें आयकून धनयाक दिसलें, आपलेंच चुकलें. पूत भुरगो जाल्ल्यान ताच्यान चलूंक जाता. आपूण म्हातारो म्हण्टकूच आपणाक पुरो जाता. आपणेंच गाढवाचेर बसपाचें. ताणें पुताक सकयल देंवयलो आनी आपूण गाढवाच्या फाटीर बसलो. पूत बाबडो चलत वचूंक लागलो.

परत कांय वेळ चल्ले उपरांत मुखावेल्यान येवपी एकल्यान तांकां पळोवन म्हळें, ''कितें रे बाबा हें, भुरग्याक चलयत व्हरता आनी आपूण झेतान बरो बसून वता! कशें पुटवता काय ह्या जाण्टेल्याक?''

बाबडो गाढवाचो धनी, ताका करचें कितें तेंच कळना जालें. आपूण बसलो तर लोक अशें उलयतात आनी पुताक बसयलो तर तशें उलयतात. म्हणटकूच करप कितें? निमाणें ताणें थारायलें, दोगांनीय गाढवाचे फाटीर बसचें. ताणें पुताकूय गाढवाचे फाटीर बसूंक सांगलें आनी दोगूय मुखावेली वाट चलूंक लागले. बाबडें गाढव पयलींच हाडकुटें. ताच्यान दोगांचेंय वजन पेलून चलूंक कशेंच जायना जालें. तें एकेक पावल उबारीत मुखार वचूंक लागलें.

इतल्यांत मुखावेल्यान येवपी एकल्यान म्हळें, ''हे मनीस काय कोण रे? त्या हाडकुट्या जनावराचेर इतलो पेज घालून वचूंक कशें पुटवता काय हांकां? गाढव जालें म्हूण अशी मातूय दया-माया नासतना वागोवप?''

गाढवाच्या धनयाक ताचेंय म्हणणें पटलें. आपणें केल्या ती मनीसपणाभायली करणी अशें दिसलें ताका. तो बेगीबेगीन सकयल देंवलो. ताणें पुताकूय सकयल देंवयलो आनी गाढवाक चलयत घेवन मुखार वचूंक लागलो. पूण बाबडें गाढव तानेल्लें, भुकेल्लें. ताच्यान एक पावल मुखार वचूंक जायनासलें. ताणें वाटेरूच बसकण मारली.

आतां कितें करप? काळोख जावचेपयलीं घरा तर पावंक जाय. ताणें वेळ केलो ना. एक दांडो हाडलो, दोरी घेतली आनी गाढवाचे पांय दोरयेन दांड्याक बांदून दोगांयनी त्या गाढवाक

उबारलें आनी मुखार वचूंक लागले. कांय वेळ चल्ले उपरांत वाटेर एक न्हंय लागली. न्हंयेवयल्यान वचूंक माडयेचे करवे बांदून साकव केल्लो. दोगूय त्या साकवावेल्यान वचूंक लागले. दांड्याक बांदिल्ल्या गाढवाक उदक दिसतकूच ताणें उदक पिवूंक वचचेखातीर धडपड केली आनी ते धडपडींत धनी आनी ताच्या पुताचो तोल गेलो आनी तोल सांबाळटासर गाढव हातांतल्यान सुटलें तें न्हंयेत वचून पडलें.

उदकाच्या लोटावांगडा व्हांवत वचपी गाढवाक माथ्यार हात दवरून पळयत रावपाबगर दोगांयच्यांनी कांयच करूंक जालें ना.

हेवटेन न्हंयेंतल्यान गाढव जें व्हांवत गेल्लें तें उदकाच्या लोटावांगडा वचून न्हंयेचे देगेर एका जाग्यार पडलें. थंय फकत रान आसलें. गाढवाक कांयच काम करीनासतना असुदाय चरूंक मेळूंक लागलें.



२०

# तागडी दी, भुरगो व्हर!

एका गांवांत एक मनीस रावतालो. ताणें आपल्या घरांतूच एक पसरो थाटिल्लो. ताका एक पूत आसलो. पसरकाराच्या शेजरा एक मनीस रावतालो. ताचीं जायतीं भाटां - बेसां आसलीं, देखून लोक ताका भाटकार ह्या नांवानूच वळखताले. एक दीस पसरकार मेलो. ताणें जें कितें जोडिल्लें, तें सगलें आपणाल्या हातान मोडिल्लें. म्हण्टकूच तो जेन्ना मेलो, तेन्ना ताचेकडेन कांयच गिरेस्तकाय नासली. आसली तशी फकत एक तागडी, जातूंत तो सामान जोखतालो. ताच्या पुतान घर सांसपून पळयलें, पूण ताका कांय एक मेळ्ळें ना. ताणें चिंतलें, 'आतां ह्या गांवांत रावपांत कांय अर्थ ना, खंय दुसरेकडेन वचून कामधंदो केल्यार बरो.

अशें चितून तो शेजरा भाटकारागेर गेलो आनी म्हणूंक लागलो, ''भाटकारा, हांव हो गांव सोडून वतां. खंयूय दुसरेकडेन वचून कसलोय धंदो करून चार पयशे गांठीक बांदतां आनी परततां. हांव परतो यो म्हणसर ही तागडी तुमचेकडेन दवरतां. मात्शी उपकार करून दवरून



घेयात.''

भाटकारान म्हळें, ''बरे भशेन. ही तागडी तुजीच. तुका जाय तेन्ना यो आनी घेवन वच.''

पसरकाराचो पूत आपल्या नशिबाच्या सोदाक वचूंक गेलो. कांय वर्सां हे वटेन तेवटेन भोवन ताणें पयशे जोडले आनी जाय तितले पयशे गांठीक जातकूच गांवघरा परतलो. घरा येतकूच सगल्यांत पयलीं तो शेजरा भाटकारागेर गेलो आनी म्हणूंक लागलो, ''भाटकारा, देवादयेन म्हजे गांठीक चार पयशे जमल्यात. आतां हांव दुकानाचें काम करचें म्हणटां. तुमचेकडेन आशिल्ली म्हजी तागडी मात्शी म्हाका परत करची.''

भाटकारान बऱ्या गोड उतरांनी म्हळें, ''पुता, हांवें तुजी तागडी बरेभाशेन जतनायेन सांबाळून दवरिल्ली. पूण जालें कितें, हांव कांय दिसांपयलीं तीर्थयात्रेक गेल्लों. येवन पळय जाल्यार तागडी हुंदरांनी खाली.''

पसरकाराचो पूत चार गांव भोंविल्ल्यान ताका असल्या जायत्या फटींगपणाचो अणभव आयिल्लो. तो समजलो, भाटकाराक वायट वान्सा जाल्या आनी देखून तो फट उलयता. लोखणाची तागडी म्हणून केन्ना हुंदीर खातात? तो हुशार आसलो. ताणें चितलें, झगडून फायदो ना, वेल्यान लुकसाण जावं येता. तेपरस कितेंतरी तकली लडोवप बरी. हें चितून ताणें म्हळें, ''भाटकारा, हातूंत तुमचो गुन्यांव कसलो? हांव नवी तागडी घेन.''

भाटकार खोशी जालो. ताणें मनांत म्हळें, ''चार पयशे जमले म्हूण शाणेपण येता? पिसो तो पिसोच.''

कांय वेळान पसरकाराच्या पुतान भाटकाराक म्हळें, ''भाटकारा, एक उपकार करशात? हांव न्हांवक वतां. म्हजेवांगडा तुमच्या पुताक धाडशात? हांव न्हातना म्हजे कपडे व्हरत म्हणून सांबाळूंक कोणतरी जाय.''

भाटकाराक तागडेचो विशय सोपोवंक जाय आसलो. हो जर तो विशय विसरता, तर तेखातीर भाटकार कितेंय करूंक तयार आसलो. ताणें म्हळें, ''बरेभाशेन.'' आनी पुताक आपोवन ताचेवांगडा धाडलो.

पसरकाराच्या पुताक भाटकाराक बुद्द शिकोवंक जाय आसली. ताणें भाटकाराच्या भुरग्याक व्हरून एकेकडेन लिपयलो आनी उपरांत व्हडव्हडान आड्डूंक लागलो, ''भाटकारालो पूत वाऱ्यार उडून गेलीं. ताका कोणूय धरात.''

ताच्या आड्डुवपान लोक जमले आनी कांय वेळान भाटकारूय थंय पावलो. भाटकारान

म्हळें, ''खरें, खरें सांग, म्हजो पूत खंय आसा? वारो केन्ना भुरग्याक व्हरता? वाऱ्यार म्हूण मनशां उडून वतात? तूं चोर! बरे भशेन म्हज्या भुरग्याक दी. ना तर हांव राजाकडेन वचून कागाळ करतलों.''

ताणें म्हळें, ''भाटकारा, जंय लोखणाची तागडी हुंदीर खातात, थंय वाऱ्यार भुरगो उडून गेलो तर अजाप कसलें?''

अशे तरेन दोगूय झगडत झगडत राजामेरेन पावले. तांणी राजाक आपणालें गाराणें सांगलें, राजा कितें समजुवपाचें तें समजलो. ताणें भाटकाराक तापोवन सांगलें, 'सडसडीत ताची तागडी ताका दी.'

भाटकारान मोन्यांनी तागडी धाडून दिली आनी पसरकाराच्या पुतान भाटकाराच्या भुरग्याक व्हरून ताच्या घरा पावयलो.

❒ ❒ ❒



# गोवा कोंकणी अकादेमी

## बालसाहित्य प्रकाशन येवजण

### : अकादेमीचीं प्रकाशनां :

१. काणयां झेलो : भाग १ -- श्री .माणिकराव गावणेकार
२. काणयां झेलो : भाग २ -- श्री. माणिकराव गावणेकार
३. गोंयांतले रूख -- डॉ. कस्तुरी ना. देसाय
४. गलिवराची भोंवडी -- सौ. माया अ. खरंगटे
५. स्वामी विवेकानंद -- डॉ. विनय वा. मोरजकार
६. आटकुळें -- पिटकुळें -- श्री. अभयकुमार वेलींगकार

---

### बालसाहित्य प्रकाशन येवजणेखाला छापून आयिल्लीं प्रकाशनां :

१. जादुचो कोंबो -- डॉ. मनोहरराय सरदेसाय
२. बाबू -- श्री. एन्. शिवदास
३. दीपत्कार -- श्री. लक्ष्मीदास बोरकार

---

गोवा कोंकणी अकादेमी
पर्वरी - गोंय